मूळ कन्नड

# दाम्पत्य गीता

डॉ. सुमतिंद्र नाडिग

कोंकणी अणकार
डॉ. मनोहरराय सरदेसाय

# दाम्पत्य गीता

(कविता)

मूळ कन्नड
डॉ. सुमतिंद्र नाडिग

कोंकणी अणकार
डॉ. मनोहरराय सरदेसाय




गोवा कोंकणी अकादेमी

दाम्पत्य गीता

(कविता)

मूळ कन्नडः

डॉ. सुमतिंद्र नाडिग

कोंकणी अणकार :

डॉ. मनोहरराय सरदेसाय

Dampathya Gita

(Poetry)

Original in Kannada
by Dr. Sumatheendra Nadig

Konkani Translation
by Dr. ManoharRai Sardesai

प्रकाशन क्र. 102

Publication No. 102



**पयली आवृत्ती : 2007**

**First Edition : 2007**

उजवाडावपी :
ज्योसिनो वाझ
सचिव,
गोवा कोकणी अकादेमी,
243, पाटो कॉलनी,
पणजी, गोंय 403 001

**Publisher :**
Joaosinho Vaz
Secretary,
Goa Konkani Akademi,
243, Patto Colony
Panaji, Goa 403 001

मुखचित्र :
गौरीश वेर्णेकार

**Cover :**
Gourish Vernekar

छापपी :
कस्तुरी ग्राफीक्स
ढवळी, फोंडें - गोंय

**Printer :**
Kasturi Graphics
Dhavali, Ponda - Goa

मोल : 50/-

Price Rs. 50/-

# अकादेमीचे वतीन...

नामनेचे कन्नड भाशेंतले कवी आनी समीक्षक डॉ. सुमतिंद्र नाडिग हांगेलें 'दाम्पत्य गीता' हें मूळ कन्नड भाशेंतलें कवितेचें पुस्तक, नामनेचे कोंकणी कवी डॉ: मनोहरराय सरदेसाय हाणी कोंकणी भाशेंत अणकारीत केलां.

डॉ. नाडिग हांगेली कन्नड भाशेंत कवितेची इकरा पुस्तकां, समीक्षेची आठ, कथेचीं दोन जाल्यार बाल साहित्याचीं आठ पुस्तकां प्रकाशित जाल्यांत. तांगेल्या साहित्यिक योगदाना खातीर तांकां कर्नाटक साहित्य अकादेमी, दिनकर प्रतिष्ठान आदि संस्थाचे पुरस्कार लाबल्यात. 1996 ते 1999 ह्या काळांत ते नॅशनल बुक ट्रस्ट, नवी दिल्लीचे अध्यक्ष आशिल्ले.

डॉ. नाडिग कांय काळ गोंयांत कॉलेजांत प्राध्यापक म्हण आशिल्लें. गोंयातल्या तांगेल्या वास्तव्याचो उल्लेख तांगेले 'दाम्पत्य गीता' कला कृतींत आवर्जून येता. डॉ. मनोहरराय सरदेसाय तांगेले स्नेही आशिल्ले. डॉ. मनोहररायानी मोटे आत्मियतेन आनी समर्थपणान हो अणकार केला आनी तो खूब सूटवूस जाला. वाचप्यांक तो मानवतलो अशी आस्त आसा.

हें पुस्तक अकादेमीमेरेन पावोवपाचें काम, अकादमी एक वांगडी आनी नामनेचे लेखक श्री. दामोदर मावजो हाणी केलें. तेखातीर अकादेमी तांचे उपकार आठयता.

**पुंडलीक ना. नायक**
अध्यक्ष
गोवा कोंकणी अकादेमी

# 'दापत्य गीता' च्या कोंकणी अणकारा संबंदान

हांगा एक अशा विशयावयलें बोध दिवपी तेचबरोबर अस्वस्थ करपी अशें दुर्मिळ आनी असादारण पुस्तक आसा. एका अर्थान हो विशय सर्वसादारण, सामको सामान्य.दादलो आनी बायल हांचेमदलें नातें दाखोवपी एके कवितेच्या सामान्य तत्त्वाचो हो विशय. तातूंतलें असामान्य कितें काय म्हळ्यार कवीक तें कशे असादारण रितीन समजलां तें. स्वैर, मुक्त, आनी निर्भयतायेन उक्तायिल्ल्यो विवाहीक मोगाच्यो सगळ्यो अदृश्य छटा. तातूंतल्यो उमेदी आनी सुखां, तातूंतलीं दुख्खां आनी झगडीं. सुमतिंद्र नाडिगाची कन्नड कविता गरजेच्या वेळार तर केन्ना गरज ना तेदेवेळार दिता मोगाक लागींचीं नातीं-गोतीं. एकवट आनी झगड्यांचो एक विस्तारीत धाडसी खेळ.

हे कवितेची व्याख्या करप कठीण. ती पुराय कथाय न्हय आनी पुराय काव्यय न्हय, म्हाकाव्य नासलें तरी म्हाकाव्याचो कांयसो स्पर्श. विस्कावणी आनी संयोगाची सतत आनी फुसलावपी दाखवण. तें फकत जिणेचें पडबींब न्हय पूण जिणेवयलेंय पडबींब. कल्पना आनी उमाळे, ललीत कलागुणांचीं उतरां आनी भावनांच्या वादळामदीं वाचपी सांपडटा.

म्हजें कन्नडाचें गिन्यान हें वयल्यावयलें. हांव संगीत आनी उतरांचो जादू, पुराय अर्थ कळ्ळेबगर समजूंक शकतां. जर्मन कवी गोथे हाणीं हाची पारखणी केल्या. ''अणकारांत शेणल्या ती कविता.'' हावें ही कविता कन्नडांतल्यान कोंकणीत अणकारीत केल्या. ह्या वावरांत कितलें सुटलां हाचें म्हाका पुराय धंगण आसा. महाराष्ट्रीय

इतिहासकार राजवाडे हांची ही आनीक एक पारखणी. अणकार हो एके कुपींतल्यान दुसरे कुपींत ओतिल्ल्या अत्तराप्रमाण. हे क्रियेंत कितेंतरी शेणूंकच जाय. मुळावो रंग आनी वास चडानचड आसा तसो दवरपाचो हांवें यत्न केला. ही कविता आत्मजिणेत्मकच कशी. प्रखरपणान आत्मजिणेत्मकच. आपणाले बायलेकडल्या नात्यांतलो सामको सुक्षीम तपशील लेगीत प्रकट करताना कवी आपलें अनुचीत वागप उक्तें करपाकय अनमनूक नात. तांच्या वागपाची ती कबुली आनी तेचबरोबर समर्थनय बी. भावनातिरेक आनी मोगाची निश्दुरटाय उकतावपी ही स्वचिकित्सा म्हळ्यार एक तोखणायेचोच यत्न. आत्मजिणेत्मक आसूनय ती आत्मजिणेपेल्यान वता. ती विश्वात्मक जाता. संवसारांतल्या खंयच्याय घोव आनी बायलेमदल्या लिपिल्ल्या जिविताचेर मारिल्लो तो विद्यूत प्रकाशझोत.

गोंयकार म्हण हे कवितेची वेगळेतरेन गणना करपाक म्हाका कारण आसा. कविचें गोंयासंबंदिचें वर्णन. गोंयचो रसरशीत सैम, गोंयच्यो न्हंयो, दोंगर आनी पांचवीचार शेतां, विशेश करून गोंयकार जे पोरन्या स्मृतींक परतून उजाळो दितात. सुमतिंद्र नाडिगाचे बाबतींत सांगपाचें जाल्यार ते कांय वर्सां गोंयांत आशिल्ले आनी सेंट झेवियर्स कॉलेज, म्हापशें तशेंच ताचे आदीं श्रीमती पार्वतीबाई चौगुले कॉलेज, मडगांव हांगां इंग्लीश शिकयताले. हांवूय शिकयतालों श्रीमती पार्वतीबाई चौगुले कॉलेजींत. आमी बऱ्यापैकीं इश्ट तशेंच बरे शेजारी. श्री. नाडिग हांच्या धाडसी प्रयोगाखातीर आनी जीण आनी मोग हांच्या खर अणभवांत आमकां वांटेकार घेतल्याखातीर आमी तांचे उपकार मानूंक जाय आनी तांकां परबीं भेटोवंक जाय.

इंग्लीश आनी मराठी अणकारीत कवितेचो हावें उपेग केला. चड करून केशव मेश्राम हांचो मराठी अणकार म्हाका खूब उपकाराक पडलो. तांकां हांव दीनवासतां.

**डॉ. मनोहरराय सरदेसाय**

# पुरोवाक्

*दुसरे कवी आनी विचारवंतानी कवीक ताचे लग्नाउपरान्तचे जिणेचे गोडवे गावंक सांगलें:*

पम्प, कुमारव्यास आनी बेंद्रे हांणी केलें म्हाका पाचारण
तांचे लागीं हांव, घेवन श्रध्दाफुलां जावन अनन्यशरण
पम्पकवीन सांगलें म्हाका, ''माणकुल्या
गा किदेंय नवें नवें कीर्तीमान''
कुमारव्यासान सांगलें म्हाका, ''कर रे निर्माण
आंतरिक भक्तीमान.''
म्हाकवी बेंद्रेचो आसलो नवो
वेगळोच विचार.
सांगलें म्हाका, ''गा रे तूं मेकळेपणान
नरनारी सख्यभाव कर साकार.''
आडिगा हाणें सूचित केलें मर्म
''छेड, छेड हृदय संगीत
होच खरो कवीधर्म !''
ह्या समस्त कवीवरांची
आसली हीच भावना
ती आयकून ते जियेतले परतून
जुवानीतलें प्रेम तत्व, नवें संगीत
आनी आयकतले धुंद जावन म्हजें गीत.

बेंद्रेच्या लयछंदाचेर केलें हावें सुरू सख्यगान, प्रीतगान
म्हाकाच म्हजो वाज आयलो. पूण येनाच जाली हृदय भरून तान.
मागीर पम्पाचो एक छंद म्हज्या मनांत रिगलो
फांतोडेच्या किर्णाविरी उमेदीन भरून गेलो
आतां अशी जाली सुरू अग्नी परीक्षा प्रणयाची
"लोकभास हीच भास" जाली वाणी कुमार व्यासाची
तितले म्हणसर आयलो थंय रत्नाकर
अल्लम लेगीत जालो हाजीर
ज्योतिर्लिंगाचो सुघोष करीत
आयले मागीर वेदमुनी एक एक करून
दीत म्हाका दिव्य स्फूर्त, मन गेलें भरून
हातांतली छडी सांसपीत, सांसपीत
होमर लेगीत आयलो
ओले, ओले केंस सांवरीत
शेले कवी पावलो
अप्रूपाचो देखून सुवाळो
आयलो, आयलो मार्लो
गटे लागीं चलत, चलत
कालिदास आयलो स्मितवदन
पावलो थंय पावलो, आनंदवर्धन
रोखून आपली नदर
पळेतालो वॉल्ट व्हिट्मन
वालो न्हेसून आयलो गांधी
वक्लांतल्यान् ल्हवूच हांसत.
नंदीचेर आयलो बसून श्रीशंकर कैलासनाथ.
मार्गावेले हे भोंवडीकार
प्रसन्न जावन देखताली तेजस्वी
अक्का महादेवी
आयलो मागीर अभिलेखांचो स्वामी राघवांक

आयलो तसोच एरिक फ्राम, मार्क्स
शेक्सपियर आनी मिल्टन
आयलो थोरो, आयलो इमर्सन
वाल्डेन जलाशयांत देखलेली गंगा ताणें
सगळ्यांनी म्हळें अशें एकाच वेळार
"गारे पुता सख्य गीत म्होंवाळ मुरार."
मन गा म्हजें आयलें भरून खोशी जालो प्राण
आनी म्हज्या कंवळ्या ओंठार
दाम्पत्यगीत - गान

हे वाग्देवी ! देवांपासत सदांच तयार
करशी तूं मनोरंजन गंधर्वांचें
आनी सोमरसाक तूं तानेली
तरी देवांनी आनी गंधर्वांनी तुका विकली
तरी तूं आयली परत
हरिणीचें घेवन रूप चंचळ सोबीत.
हांव देव न्हय, गंधर्व न्हय.
तरी आसां अजून तुज्याच स्फूर्तिप्रद सहवासांत.
अजून ताची उसळटा खांम म्हज्या नसानसांत
हांव कितलो दुबळो खबर आसा म्हाका.
म्हजी भास अडखळत चलता
हे वाग्देवी ! हांव असो अस्कट दुबळो
कशे हांव धरूं तुजें दिव्य तेज
ह्या इल्ल्याश्या म्हज्या हातांत.

# सर्ग - 1

*कवी आपले बायलेक (सखीक) आपले लग्नाउपरांतचे जिणेचो इतिहास सांगता. आपले कवितेंतल्यान तो तिका संबोधता आनी कवितेचे गुण समजायता.*

सखे, हांव सांगतां तुका फाटली काणी
आमच्या दाम्पत्य जिविताची
तिचें अप्रूप खाशेलेपण आनी तांतूंतल्यो आडखळी, अडचणी
केंस वळयताना, हारशांत पळयताना
जितली तूं जाता मग्न
तितलीच म्हजी भक्ती, म्हाका प्रिय
तें विवाहबंधन.
अविवेकी म्हजी सत्ता घराचेर
पूण तूंच प्रिये खरी सत्ताधारी
म्हजो जरी अधिकार तरी तूंच
खरी मालकीण दुबावावीण.
हांवें म्हाकाच कवितेक ओंपला पूण अर्दोच
तूंच म्हाका पूर्ण करता. तूंच म्हाका स्फूर्त दिता.
जिवितांतले अगणीत अणभव हांवें पुराय उडयल्या बदलून
तांकां केल्या सोवीत सुंदर म्हौंवाळ मोगाळ
आनी ते तुका मानवतले

तुज्या सुडौल शरीराच्या कणाकणांतल्यान
उसळटा जुवानीचो अखंड वझरं
म्हजे हे कवितेंत असलें कांय ना
विस्वास दवरूं नये अशें कांय ना
शब्दांचो खेळ ना, अर्थाचो मेळ ना
जिवनाचें सारसर्वस्वूच तें : आंब्यांच्या
फळांत आसता तशें वा जायेच्या फुलांत
आसता तशें. कवी पम्पान लेगीत हेंच
सांगलां. पूण हांव म्हणटां तें आसा सख्यभावांत.
हांव कार्वयित्री प्रतिभा तर तूं वार्वयित्री
खंय दरी हांचे मदीं म्हजें लक्ष थिरावलां.

बेंद्रे आनी आडीग हांचे आशीर्वाद म्हाका स्फूर्त दितात.
म्हज्या ह्या काव्यात्मक भोंवडेक करतात गतिमान.
काव्यामृताचो सतत शिंवर घालपी तूं
युगानयुगां हांवें वाट पळेली -
वाट पळोवप इतलोच म्हजो हेतू.
काव्ययज्ञ करून हांवें निवेद्य
तयार केलो.
तेन्ना तूं लागीं आसची इतलोच म्हजो
हेत आशिल्लो.
दिसपट्ट्या संघर्शान हांवें म्हाका
तुजेपासत लायक असो केला.

तुकाच ओंपलें हांवें म्हजे समग्र अणभव विशेश
तुजे कृपेचे नदरेनूच येतलो फुलाफळाक नांतूतलो काव्यावेश
स्मरण, बुद्द आनी मनाचे एकात्मतेंतल्यान
भावमार्गाक येतलो आकार
मेळटलें तुका तुजेंच मार्गदर्शन
तुज्याच धिरान नां फुलतला कणानकण
पम्प आनी कुमारव्यास हाणी दिल्या म्हाका प्रेरणा

तांतूंत दिसता म्हाका सांख्याची फलस्वरुप चेतना
म्हज्या विदेही एकाग्र चित्ताची
सोंपली आतां ही भोंवडी
म्हज्या काव्यांत तुमकां गावतली
अप्रूप अशी योगसिध्दी.

हे काव्यदेवी! तूं साकार जाल्या शब्द शरीरान.
आत्मो फुलून आयला रसभावान ध्वनितत्वाच्या आनी औचित्याच्या वळान
तेजोमय जाला तुजे दयेच्या प्रस्फोटान.
प्रीतीची उपाट भरती, राग क्रोधाचीय
हांगा दिसता अभिव्यक्ती.
म्हजे कवितेंत होलमता फाव तसो उतरांचो भार,
हांतूंत येता सगल्या घटकांचें ल्हारान ल्हार
गिरेस्त काव्याच्या रसाक हांगा आयला ओंतो.
पूण तूं तर म्हज्या जिविताचो घट आदार
रचना कशी करची, सोंपेपण कशें हाडचें
सुंदराय कशी भरसूंची
हें म्हाका खबर आसा.
पूण उतरांपलतडचें गुपीत, कविता उतरांतल्यानूच सांगता
चतुर्विद्या वाणींतले हे परावाणी!
तुका म्हजो येवकार! तुजे मुखार हांव म्हजी तकली बागयतां
हे मध्यमा! तूंय कर म्हजे अपुर्बायेचे बाये म्हज्या येवकाराचो स्वीकार
वैखरी! हांव तुका कसो विसरूं?
तूंच तर म्हजो खरो आदार
तुवेंच म्हाका दिला हो काव्याचो अधिकार
तुजेंच म्हजें येस, तुजोच म्हजो हावेस हें म्हजें गीत, तुजेंच प्रीतीची
ओडलायणी रीत! कांयच ना म्हजें,
सगलें तुजेंच तुजें.

मोगाची पिकाळ फसल गावपी हें गीत लग्ना उप्रांत झंकारता अशें
मन - भुलोवणें, देखदिणें गीत - संगीत

हांतूंत पडलां म्हज्या भावार्ताचें आसा तशें पडबिंब.
तुकाच म्हजें कळटा मन, देखून हांव दितां तुज्याच हातांत हें म्हजें शब्दांचें धन.
म्हज्या ह्या कवनाची तूंच मूर्त देखादणी
म्हजे कवितेचो तूंच थीर भार
तूंच सावीत रती आनी तूंच रस-सिध्दी
तूंच म्हौंवाळ. तूंच तेजाळ. तुज्यांन सगलें सादेपण
सगळ्यो वाटो हांगाच येतात. येता हांगा सख रुपाक तुजेंच हांगा रंगाळपण.
कानाक मातूय मानना अशें हांगा घडये आसत
पूण म्हज्यो मोडी ओड-लावण्यो
तुज्या मनाक मानतल्यो.

अंजीराचें पान हांवें सारलें कुशीक
घट धीट तूं आसा म्हेड कशी
सगळी म्हजी उणींदुणी तुजेमुखार मांडली तुका मातूय मानचें ना.
तुजो दाटला गळो तरी आसलो म्हजो विस्वास तुज्या
भोगसुपी सभावाचेर.
म्हजेच पासत जाली तूं पुरायपणान
व्यंजनहव्य आनी हांव रावलो उरून
असो, असो फकत तुजेपासत.
जेन्ना आमी एकामेकांच्या सुखानंदाचो आस्वाद घेतलो तेन्ना
स्पर्शानूच घडले चमत्कार. बाकी सगलेंच बाद.
आमकां दोगांकूय एकाच खिणाक लाभलें जिवीत सासणाचें.

# सर्ग - 2

*आपल्या भुरगेपणाविशीं कवी वायलेक सांगता :*

ह्या काव्यवारुचेर जावन आरुढ म्हज्या भुरगेपणांत व्हरतां तुकां
ते दोंगर दोंगुल्ल्यांचे भुंयर आनी पावसांत
थंय दिसचो ना तुकां पेट्रोल डिझेलाचो धुंवर
हांगच्या भोंवतणांत प्रदूषण ना,
वाहनांचो कर्कश आवाज ना,
रस्त्यांत अपघात ना
ह्या शांत संथ उजवाडांत आमचे दोळे आमी धुवन घेवंया.
खीणाखीणाक आमकां भुलोवपी हे हरयाळीचेर वचूंया
आनी देवालागीं मागणें करुंया.
आमच्या ह्या मीलनाक गवाय आसतले दुदावरी
धवेफुल्ल फसफसून हांसपी धबधबे.

म्हज्या आडांगी भुरगेपणान
हांगाच दोळे उगडले मिस्कीलपणान,
बऱ्या वायटाची जाली वळख
ते दीस आसले सादे सहज अशे.
देवांचे दीस ते आनी देंवचाराचे.
पिकेवले दीस ते लखलखीत उजवाडाचे - पावसाचे.

भुरगेपणांतूच कळ्ळीं आनी पळेलीं
भयांकृत जड वाहनां लश्करी.
आपल्या क्रूर चाकांपोदां
रानाच्या राखणदारच्या भुरग्याचो चेंदोमेंदो करपी.
गोऱ्या सोल्दारांचे दयामाया नाशिल्ले सत्तेचें
आनी त्या चिड्डुलेल्या रगतान माखलेल्या
भांगराच्या केंसाच्या भुरग्याचें
- अशें आसले म्हजें भुरगेपण.
- आमगेल्या घराफाटल्यान आमा एक झाड - पणसाचें
- हांगाथंय पार्तळिल्लें. एका व्हड्या सोरपान रेवडावचें
तेवरी वालींनी ताका रेंवडायलां.
म्हाका शाळेक घेवन वचपी म्हजो आजो.
झाडांवालींच्या विळख्यांत
म्हज्या आजो-आजेयेची पाळांमुळां घुस्पल्यांत.
म्हजो काळसांवळो आजो निबर शिस्तीचो,
निबर ताचें चलप, बसप,
म्हज्यांत भिरांतेची आनी प्रीतीची ज्योत ताणेंच पेटयलेली.
एका कृष्णदेवाभशेन म्हज्या मनांत म्हज्या आज्यान वस्ती केल्या.
घराफाटल्यान एक व्हाळ एका धाकटुल्या सोर्पावरी दिसता.
थोडी थोडी माती ओडीत तो अखंड व्हांवत आसता.
हो व्हांवपी माणकुलो वझरो
म्हाका एक व्हडलो वेगान व्हांवपी असो व्हडलो व्हाळूच भासता
आमची जागा गिळपी असो तो म्हाका हाम्च सो दिसता.
"पुट्टा" अशें म्हणत म्हजो आजो उलो मारतालो
तोच उलो परतो मारून म्हजे बालमित्र म्हाका तिडायताले.
म्हज्या आज्याक केन्ना तिडक माल्लयार
तो म्हाका दैत्य कसो दिसतालो.
धाकटुलोच आमचो गांव.
सगलो लोक म्हज्या आज्याक भियेतालो.

म्हजो बाबा दरवर्सा थंय येतालो आमचे भेटेक.
त्या दिसांनी हांव बावाबरोबर बसतालों बसचे पयले सुवातेर.
ताचेबरोवर बसतकच म्हाका व्हडपण दिसतालें :
पोलिसाच्या गणवेषांतलो बाबा म्हाका व्हडलो दिसतालो.
हांव ताचो मायेमोगाचो पूत म्हणून,
हेर लोक म्हाका मान दिताले.
एकदां बावान म्हाका म्हळें, "पळे हो धाकटुलो धबधबो कसो हांसता पळे.
नामनेचो जोग धबधबो असोच दिसता".

त्या दिसांनी हांव बैलगाडी चलयतालों.
घोड्यार बसतालों, व्हाळांत पेंवतालों.
म्हजे कपडे पिळून घरा परततालों.
दिवाळेच्या दिसांनी हांव पोट भरून फोग जाळटालों.
इश्टांच्या सांगातान वांवूचें पिस्तूल ढां ढां करून मारतालों.
म्हाका दोनूय सण आवडटाले.
चवथ आनी रामनम.
लोकांनी खावंक हाडपाखातीर दिल्ले दुद्द भियेंभियेत मेजतालों.
म्हज्या आंगाक तेल रगडून लाकडाच्या पिपांत
म्हाका खूब वेळ लोळपाक दिताले.
म्हाका न्हाणयतांना म्हजो काळो आजो खोसयेन भुरकुट्टालो.

# सर्ग - 3

*आपलें धंकलेच्या भावान आपलें लग्न मुखार धुकल्ल्याउप्रांत नाचंवगेवर कवी नाच्या गावांक येता तेन्ना ताणें तिची कशी भेट घेतली ताचो उगडास तो आपल्या बायलेक सांगता :*

हांव तेरा वर्सांचो आसताना
म्हाका म्हजो इश्ट दिसतालो जीव की प्राणसो.
पूण अठराव्या वर्सा मात हांव मोगापासत जालों पिसो.
म्हज्या नात्यांतलें चलयें लागीच हांव लग्न जातलों.
हांवें म्हजो बेत सांगलो खरो,
पूण बापायक दिसलो ना बरो.
"ना" ताणें म्हळें निश्चयान.
"ना बरो तांचो इतिहास"
हांवें म्हळें नेटान : "खंयचें कूळ, खंयचें कूळ उरलां शुध्द आज?"
म्हळें अशें पिताश्रीन : "घाण कित्याक उसपुन्ची, आपूण जावन!
थोडी लज तरी धरची."
हांव म्हज्या उतराक घट धरून रावलों.
म्हज्या बाबान दोनूय हातान नकली आपली धळ्ळी आनी गवलो रडून घसाघसा.
दिसलें म्हाका हो मनीस आतां तुटून गळून पडटा
कितल्या तरी तरणाट्यांनी सोसली जायत निर्शेणां
आयजमेरेन अशे तरेन.

कसली ही व्यथा कदीम काळापसून
आयल्या चलत ही प्रथा.
दुखी उदास जाता तो दीस तीन चार
मागीर दुसरें कोण चली सांवीत करता ताच्या मनार वार.
दांडग्या मस्त्या वैलाची तोंकाळ शिंगां मांव पडटात.
आनी गांठ्याभितर वावडी गाय व्हडाव्हडान हांसता.
अशें तरेन काइंक जाता जायतशें समाजीक प्रथांचें दूद.
म्हजो इश्ट एक श्रीनिवास
ताचो घेवन सांगात आयिल्लो हांव तुका मेळपाक
सांजच्या वेळार पयलेंच खेपेक आयलो तुजे भेटेक.
गोधुलीचो म्हूर्त तो :
सांगूंक येना असल्ली ओड म्हाका लागल्ली.
कसलोच विचार केलो ना त्यावेळार
पूण म्हळें : आतां मुखार विचार करून वाडयतलों
तुजी म्हजी मैत्री.
त्या किट्ट काळखांत लेगीत
घार कसो हो विचार, हो प्रस्न.
तुज्या मनांत म्हजेविशीं हें सखी, दिसतालें कितें?
सांग, पयलेंच भेटेंत रोमियोक ज्युलियेटाची दिसली प्रीत.
तेंच ताचें सत्य, तेंच ताचें जिवीत.
म्हज्या लेगीत विचारांची तीच वाट.
पयल्यो वयल्यो असल्यो भेटी कितल्यो जातात.
तरणेपणाच्या अटंग्य रानांत असलें घडीत घडत आसता.
मस्त मेकळे हती बाबडे अशेच फसतात.
लग्नाच्या फोणकुलांत नकळत पडटात.
तांकांय आसना भिरांत माहुतांच्या अंकुशाची.
लाकडां ओडी-आडीत जीण सारप हेंच निमणें उरता ध्येय
तांच्या आयुष्याचें.

बेळगांवच्यान सरिल्लों भायर वचपापासत म्हैसुराक...
तेन्नाच हांवें तुका पळेली.

ुका पळेनाफुडेंच दिसलें : "हेंच तें म्हजें साकार सपन."
जालों धुंद. भाशाशास्त्राचे बदला तुज्या उगडासांचोच सुगंध :
काळजांत घमघमतालो...
तुका सांगूं कशें?
आडिगान म्हजे कवितेविशीं म्हळां तेंच :
एका अजगरान म्हाका गिळून उडयलें पुरायपणान.

उपसून तरसाद प्रतिभेची त्या अजगराक
हांवें खंडविखंड केलो.
हांसपाच्या, खोसयेच्या फवाऱ्यांनी
म्हज्या शरीरावेलो लेप उडयलो पुसून.
आडिगान केलें सूचीत :
म्हज्यांतलो अभाव. न्हय भावात्मक दाद
पूण तेन्ना म्हाका दिसूंक नासलो तो मार्गदर्शक आशीर्वाद कसो :
श्रीनिवासान म्हाका दिले उत्तर हय न्हयशें.
धुगधुगींत कशें. पूण म्हज्याच वच्चाराचेर :
"तिचें शिक्षण सोंपतकच ती सांगतली - तशी ती गुणी!"
सोडून आपली जापसालकी अशी ही उतरां परक्याची जशी.
बावानूय दिलो सोडून आपलो पोरणो हट
"नात्यांतल्याच चलयेलागीं लग्न जा म्हजें वचन घट"
पूण नासलें खबर चलो कोण, खंयची चली
तांचीं उतरां तिडकेंतल्यान आयलीं. मदीं कितें जालें.
हुंड्याचो आयलो प्रस्न आनी सगळें गडबडलें.
उडक्यो मारपी पाडकावरी दिसलें म्हाका :

सगल्या बंधनांतल्यान सुटलों हांव. जालों हुस्क्यासकळो. वेगळेंच म्हाका दिसलें
जेन्ना मोगान परतून तशें खटखटायलें
म्हजें दार हांव ना भुल्लों ना
कांय चलयांनी यत्न केलो तोडूंक फोडूंक दार म्हज्या मनाचें.
थंड किरांव बर्फासारकें.
तरी संयमान सांटयलेल्या उदकाचो जातालो नेट उणो
आनी दिसतालें उदक म्हाका नितळ निळें.

# सर्ग - 4

*कवी एकें ख्रिस्तांव चलयेच्या मोगांत पडटा आनी हाग्ना नाचें हें कथनः*

आनी म्हज्या पडली मोगांत मुंबयतली एक ख्रिस्तांव विद्यार्थिनी...
म्हाका पळेनाली तेन्ना, तेन्ना कवतुकान चंवरनाली
एकाद्या तुटिल्ल्या सपनावरी
तुजी याद लेगीत म्हाका जाचताली.
फाटल्या जल्मांतले शेणलेले इश्टागतींवर्ग तुजें उगडास.
तूं हारशांतल्या खजिन्याभशेन सदेह तरुणी,
नकळटांना हांवें घाली तिका मागणी : म्हळें तिणें.
"कबूल आसां हांव पूणून म्हजी एकूच अट.
जा तूं ख्रिस्तांव."
तिचें हें बाणाभाशेन मागणें,
म्हजें काळीच केलें घायाळ ताणें.

आस्त हांवे सोडली तिची
पूण तिका सोडप कठीण जालें.
जिवाची ही तगमग उक्ती केली चिटयांतल्यान.
तिका जाय असलें नवें कितेंतरी करप साहस.
आनी हांव म्हाकाच दितालों धीर आनी जातालो आदर्श वीर.
हांव कितें करतलों म्हाकाच आतां समजना.

पूण आसलीं तीं पिशेपणां - विचित्र अशीं पिशेपणां
भितरल्या भितर उसळटाले उज्याचे जाळूच जाळ.
कित्याक जालें, कशें जालें कांयच म्हाका समजना.
म्हाका आसली तार्कीक - आत्मविनाशाची.
हो आत्मघातकी उजो ना करपाचो केन्ना आनी कसो?

सपनाळू तरणाटो आसलो हांव.
मन चड सळसळटा तो चिंचेचो.
सगलें म्हाका कळटालें पूण अर्दकुटें.
आमच्या जिविताचें देखदिणें कवी म्हळ्यार शेलें
हॉस्टेलच्या मांडल्लो नाद आनी रमून गेलों मेरीच्या सहवासांत.
प्रोमीथियसवरी आसली म्हाका मेकळी धुंद स्वतंत्रतायेची.
गांडीवन म्हजो गुरू म्हजेर चलयतालो तो शेक मागाचो.
असलें विश्व येतालें जल्माक
सगलें नेम,
सगले क्रम, दिसताले म्हाका अडेचे.
म्हजी झोपय आसली मळबायेंदी. नासली तिका शीम-मेर
म्हजो थोंटेर गेलो मोडून. तुटून. झडून
घायाळ अशें सुकणें हांव.
धीर ना, आदार ना...
सोदतलों खंयतरी आलाशिरो.
येतालीं. वेतालीं एकाद्री चलीं टिंङ्ळीं.
नाच् जातालीं. हांव पिशावरी दिसतालों भुरकुट्टाल्लों.
अशें कशें हें म्हजें मन!
ताचें कशें चित्र काडटालों - विचित्र !
हांव दुखावल्लों, अशांत जाल्लों.
तंतू आयिल्लो भायर आक्रोशान...
जिविताचो हो चरखो घुंवतालो गरगर शांत नासतान
पूण विणपाक कांयच ना.
धागे कशे गेले घुम्पत. कशे गेले पडून घोळ

तरी काळजांत ही पीड -
कांय समजलेंच ना..
तरेकतरा घेवन रुपां, तरेकतरा घेवन रंग,
सगलीं सुतां जोडत गेलीं -
कशें कांयच समजलेंना.

अशीच आसली दशा जेन्ना म्हजी तुजी जाली भेट.
घेवन तुका वचचें मात्शें फिरुंक.
भायर सग्प जावंचें मोपें देखून मागलें मैत्रीणीक घेवन यो.
ना केलें अशें हांवें हांयसाक मास्गो लागचो म्हणून.
तिका दिसतालें मनापसून एकामेकांक मेळचीं आमी लग्नाच्या बंधनान.

वर्सासंकी चलता बापायचो अधिकार.
आपल्या भुरग्यांचेर चलयतात तें निवर शेक.
उलयतात तें सहजतायेन विडो चावडायनां.
चावडायनां, भुरग्यांकडेन बापायन इश्ट कसो चलूंक जाय
त्या तरणाट्यांकूच लज ना, तांकां धीर ना.
धिटाय ना देखून तें दितात दूशण आपल्या बापायक..
जर भुरग्यांनी आपलो हट नासल्लो सोडूंक तर
आज ना फाल्यां तांचे बापूय भुरग्याचे इत्सेक दितले मान.
विस्कटलेली आमची घडी -
तिका दिलो आकार आमच्या काकान.
वसर्ला मागीर जाण्टेल्ली करूंक थोडीं उलवणीं.
त्याच वेळार वरी ना जाली मावळण तुजी. दवाखान्यांत भेट जाली तुजी म्हजी.
मागीर तुजें म्हजें भोंवप फिरप.
मोगाळ म्होंवाळ शब्द तुजो हयन्हयसो स्पर्श तुजो म्हाका पुरो.
तुजो म्हजो मात्सो तोल सुट्टालो.
अजून तुका याद आसा त्या म्होंव्या दिसांची,
त्या रोमांचक खिणांची?
आमी एकामेकांत भरशिल्लीं अशेंच म्हणूं येता.
खीणानूखीन गेल्लो घुसळून.

वांटांत वांटां गुंथून जालीं आतां चोवीस वर्सां
गवाय आसले राजरत्नम आनी उपकुलगुरू.
**म्हजी इत्सा आसली -**
**लग्नसुवाळो जावंचो सादेपणान,**
पूण दिसलें वापायक करचो व्हडलो सुवाळो.
यज्ञाच्या धुंवरान भल्लेंलो. भटमामाक दिली दक्षिणा.
हो सगळो सुवाळो सहन केलो. पाणिग्रहण,
सप्तपदी, लज्जाहोम सगळें, सगळें केलें सहन.
मंत्रांचो नाद गेलो विरून शेनायेच्या नादांत.

•

## सर्ग - 5

*कवी लग्नसुवाळ्याच्यो आपल्यों यादी सांगता :*

"अर्धअर्थकाम हांचे विशीं हांव मर्यादा हुंपचोना."
मंत्रपूर्वक विधी करून जाण्टयांल्या उतरांप्रमाण म्हळें.
"हांव हुपचोना."
करताना लज्जा होम अग्नीदेवतेची केली प्रार्थना.
"हो अग्नीदेव सदांकाळ तुमची राखण करूं!"
अग्नीक केल्या लज्जा अपर्ण
आमचें जावंचे बरें भलें म्हण
आनी मागीर केली तुवें सप्तपदी
म्हजे बरोबर चलपाची.
आरुढ जावन सात घोड्यांच्या रथार
सोंपलें आतां घराचें रितेपण
घरकान्न म्हणून आयली घरा.

"तूं म्हजी सखी जा,
हांव तुजो साथी,
केन्ना तें सोपचें न्हय देखून येत्त म्हजो चल्ला सदांच."
घेवया आमी सपूत, केन्ना ना,
केन्ना ना एकामेकांक सोडपाचें, मनां राखीत, मोग दीत,

सगळ्यांच्या कल्याणाक वावुरचें. सुख संतोश वांटुंया एकामेकांक -
अशें तरेन करुंया संवसाराचें संगोपन.
इत्सा आनी कामना तुज्यो म्हज्यो जांवच्यो सदांच एकरूप आनी अभिन्न -
हेंच म्हजें तुजें सपन.
त्या दिसा तुका याद आसा?
तीं आयकलीं अप्रूप धून बिस्मिल्लाखांचे शेनायेची अतुल आनी अतिसुंदर.
सगलें भोंवतण भरून गेलें. विरून गेलें.
व्हांवन गेले त्या ल्हारांचेर सुरांच्या. सगळें लग्न-घर चेंवरून गेलें.
"वा! वा! हांव अच्छा!" ह्या उद्गारांनी सगळें आसमंत दुमदुमलें.
गतिमान स्वरांचीं ल्हारां थिरावलीं. फुल्लें आंगार खोशयेचो कांटो
अशें दिसतालें कोण तरी प्राण सर्वस्व ओतून ते दिव्य संगीत घडयता.

सगळीं व्रतां. सगळे संस्कार सोंपोवन आमी केलें प्रयाण म्हैसुराक -
मधुचंद्रा पासत.
वेगवेगळीं आमचीं शरीरां जालीं एक.
वेगवेगळीं मनां लेगीत जालीं एक. अप्रूप त्या खिणा
जालो सुरू जिवीत - चक्राचो. जायजायसो दाम्पत्य-प्रवास.
तशे म्हळ्यार हांव मनान नास्तिक. निरीश्वरनिष्ट. त्या मताचो
इंद्रियांची तृप्ती करीतूच सुखान जिवीत सारचें अश्या मताचो

हे प्राणप्रिये! तुवें उच्चारिल्लीं तीं उतरां कितलीं अद्भूत म्हणून सांगूं?
तुज्या उलोवपांत रूच आसली,
मधुबाले, तूं खऱ्यांनीच गोड आसली.
तांबडेगुंज वाटकुळे तुजे पोले,
लांबूच लांब केंस तुजे - तुजी जुवानी फुटून आल्ताली.
प्रेमपुष्पाची पाकळेन पाकळी रसरसून फुलताली.
मिस्कील तुजे दोळे. नाकार तर तुज्या राग अनुराग
हांव प्रेम रसांत बुडून वेतां नवजीवनाक येता जाग
हांवे परतून म्हाका नियाळ्ळो.
म्हाका मेळ्ळो देह नवो. मेळ्ळे नवे दोळे. नवी नदर -
म्हजें सगलें अस्तित्व तुज्यांतूच सामावलें
ना उल्लें कांयच अशें वेगळें.

# सर्ग - 6

*मधुचंद्र :*

पंचेंद्रियांक दिलो वावर वांटून.
पांच पट जालो वावर.
पिवन उडयल्यो न्हंयो कितल्यो तरी भागली ना मन - समुद्राची तान.
तीच आसली तरी अतृप्ती,
तुजे प्रीतीन मोगान केलो म्हाका थंड शांत.
अचेतन मूर्त जावन हांव आसलों उबो
तुजेमुखार थंड शांत.
मोगाच्या किर्णांनी विरगळून हांव तुजेच भोंवतणी व्हांवतालों.

मूळ नाशिल्ल्या वाऱ्यावरी हांव नावाडगोसो हेडटालों.
आतां म्हाका मेळ्ळीं म्हजीं मुळां. म्हजें घर.
म्हजो गांव केन्ना पळोवंक नासलो
तो म्हाका दिसलो तारो अरुंधतीचो.
तुज्या हातांत हात दिलो आनी हांव थिरावलों.
मेळ्ळो म्हाका आलाशिरो जरी, आसलो हो रस्तो धर्म आनी समाज हांणीं मान्यकेल्लो
तो सार्थ काय निरर्थ हें थारावपाचो नशिबाच्याच हातांत.
फांतरार कोरांतलेल्या हातबरपावरी थारप म्हाका नासलें खबर.
पूण चलचें, झंकारचें, जियेवचें,
जियेवंक लावचें हें सगळें म्हाका शिकयलें तुवेंच.

म्हज्या जल्माची सुवात आसली
पश्चिम घाट पठारावयलो एक गांव.
बापूय रावता त्या घराची सुवात म्हळयार एक व्हडलें मळ.
म्हजो बापूय: ताचें जाण्टेलें आंध्रप्रदेशांतून आयलेलें
जिचे लागीं हांव लग्न जालों तिचें जाण्टेलें महाराष्ट्रांतलें.
तूं तर तामीळ.
कोंय खंयची? खंयचो आंबो? सगळेंच अजाप.
गीत गावपी कोगूळ खंयची?
कसो जालो दोगांचो सांगात?
दोंगरार आपशींच वाडपी रुखावेलो आंवाळो
दर्याच्या मिठाचे रुचीन सहजनायेन भरसता.
हांवें पळेलो दर्याक तुजेवांगडा हेडटाना, मुंबय, मडगांव, म्हापशें.
हुस्क्यामेकळो सळसळटाना तुज्या शरीरांत मोडणां घेतालीं दर्या - ल्हारां.
आनी दर्याचीच आसली गाज, भरती-सुकती तुज्या स्वासांत.
वेळंवेली शेकानशेक रेंव तशेंच म्हजें मन.
चौपाटीचे वेळेर शिंपयो समुद्रवाली, शंक, रंगी लानां, वड्यो.
पानां ही पातळलेलीं,

एक अरिश्ट आयलें दोंगरावरी
दोंगच्यो शिमो-मेरी हुपून आनी आपयना म्हाका चंद्रमालागीं हात मेळवपाक.
अशाच एका दुसऱ्या खिणा :
नेटान ल्हार आयलें गरजत, गडगडत
आनी म्हाका घट धरून म्हाका रसातळाक शेवटून गेलीं.
तूं अशीच दर्याभाशेन अरिश्ट, अफाट, विशाल
हांव असो निःशब्द उबो रावलों भारावन, अजापान, विस्मितान.

# सर्ग - 7

*मुंबयच्यो शिक्षणीक संस्था कवीचीं सपना कशीं पिंजून.*
*पिश्टून उडयतात ताचें निवेदन कवी करता :*

मुंबयतल्या महाविद्यालयी जिवितांत
म्हाका मेळ्ळो सांगात बुदवंतांचो.
विचारवंतांचो, कवी, कलावंतांचो आनी नामनेच्या व्यक्तींचो.
त्यामजगतीं, अ.भि.शहा, एस्.एन. रे आनी विंदा करंदीकर हे आसले.
कर्सनदास माणेक, श्रीनिवास सिन्हा, कन्हैया लाल, संपादक भागवत हेय आसले.
आमी पळेताले सपनां अशीं.
आपले कॉलेज कशें घडोवचें देखदिणें.
अशें देखदिणें कि तें दिसचें प्लेटोचे अकादमीसारकें.

उणेंपण आसलें विस्वासाचें. आसलो हांव नवीन नवो.
मात्सो नेणार म्हज्यांत दडिल्ले क्षमतायेचें म्हजेंच म्हाका नासलें भान.
आपल्या आपणाकूच कसो सांवाळचो, कसो घडोवंचो?
म्हाका तितली धिटायूय नासली.
आपलें अस्मितायेक कशी सोदून काडची?
म्हजो वेवसाय भुल्लसलेल्यावरी.
मात्सो जगावेगळो म्हळ्यार जाता.
तरीय हेरांक हांव नमळायेन भरिल्लो.

समजीक असो दिसतालो.

म्हजे विशीं म्हज्या बापायक आसलो गर्व आनी व्हडपण.
ताच्याच उर्बा उमेद दिवपी उतरां - बियांनीच
**हो सगळो संवसार भरून गेलो.**
भुरगेपणांत म्हजो बापूयलेंगीत केन्नातरी गेल्लो असोच
सोडून घर. संवसारांतले समस्त अणभव झेलपाची उर्बा -
**त्याच बियांतल्यान आयली.**
बियांचे फोडून कळ्ळ पळेतालों हांव मेकळो जावपाक
म्हज्या देहांतल्या पांखाट्यांनी जाय आसली ताकद.
वयर भाशेन फुलवपाक, आपल्या बळान घडवपाक, तसो हांव आसलो शिकपाक उत्सुक.
म्हजे शक्तीनूच म्हाका करचे आसले म्हजे दुस्मान नानपश्यात्.

त्याच्या वेळार अध्यापकांच्या सालांत चलतालें आमचे वाद
वेगवेगळ्या विशयांवयर. साधकबाधक. हुनहुनीत रंगताली चर्चा.
विटगन्स्टायन, कार्ल पॉपर, प्लेटो, ॲरिस्टॉटल, रसेल - रॉय, ऑरिपेलियस,
**शेक्सपियर, गटे**
**आनी व्यास हांचो आसलो सांगात.**
तांचे कनुप भिनल्लें आमच्या स्वासास्वासांत
आसले नवे पिळगेचे वरपी नवे  चित्रे, नेमाडे, अशोक शहाणे, शहा आनी रे

**आदीं म्हाका दिसतालें :**
**देशभक्ती म्हळ्यार प्रेम काय कितें?**
पूण जेन्ना चीनान घुरी घालून शीम-मेर हुंपली, हांव कावराबूल जालो.
बेचैन जालो. चिंतेस्त जालो आनी थोडो भयभीतयी
म्हाका दिसले, ते येतले लज-भांड धोरनासताना म्हज्या बापायचे तकलेर फार
**मारतले,**
म्हज्या आनी म्हज्या भुरग्यांच्या हातांत जंजीर नोपतले
आमच्या बायलांक बळान धरून व्हरतले, करतले आगळीक
हो सगळो भयांकृत राजालो जर राज्यांनीच सपाक बायल्या तर -

देशाचें अस्तित्व सगळ्यांत चड म्हत्वाचें मुंबय आसताना कळ्ळें म्हाका
खरें कितें, कितें फटी.
चलतालेंच चीनाचें आक्रमण ह्या विशयाचेर आमी सदांच करताले भासाभास.
शिकपी भुरग्यांक कळचें म्हणून सगळें.
हांवेंय केली कांय उलोवपां. 'लश्करी शिक्षण चड गरजेचें''
सांगलें हांवें तिडकीन. शिक्षक - विद्यार्थी झूजाच्यो खबरो वाचताले
आनी करताले विचार देशाच्या फुडारचो.

म्हाका सांवाळ्ळो तो एस्.एन्. रे हाणेंच. मनाक काडलें भायर भयांकृत
अवस्तेंतल्यान,
सदांच दिलो धीर.
व्हडल्या भावावरी दाखयली वाट.
जावन शिवाजी ताणेंच म्हाका शिकयलें युध्दतंत्र.
ताणेंच म्हज्या विचारांक, तर्काक धार दिली.
आतां फुल्लो म्हज्यांत विस्वास.
म्हजी निष्टा, म्हजी लागणूक जाली थीर.
नाका आशिळ्यो, हांगच्यो थंयच्यो गजाली.
कितल्याश्याच खबरांचेर काडले कानार केंस.
हांवेंच म्हजें तर्कशास्त्र घट बरें घडयलें
आनी ताच्या आदारानूच जालों तयार पेंवपाक
भोंवतणचो भोंवरो नेटान फोडपाक.

अशें चल्लेलें जायतो वेळ.
आनी मागीर जाले रंगहीन, काळाचे फुलां-झेले.
मुंबयच्या त्या भोंवतणांतूय कोणेंतरी वीख कालयलें.
शकुनीमामाच्या सभावच्या मीर सादिकान कट केलो.
प्राचार्य शहाक छळछळून मागीर केलो ताचो विस्वासघात.
कांय प्राध्यापक लेगीन जाल्ले प्रशासनाचे भानगडींत.
चाकरेचे घटसार्णीपासत कांय जाण जाळवणदारांचे चमचे जाले.
शहा आनी रे हांणीं स्वाभिमानाक लागून चाकरेर माल्ली खोंट निबरपणान.
मागीर आमी आट धा लोकांनी धल्ली वाट भायरची.

फुल्ली कितल्ली सपना आनी कितल्लीं वावन गेल्लीं.
पूण सपनां पडत गवप हां लेगीत खांयसयेचां खीण.
त्या सपनांतल्यानूच वियां येतात आनी भरसून वेतात तरणाट्याच्या रगतांत.
त्या वियांतल्यानूच प्रचंड म्हारूख जातात.
आपशींच मनशां बदलून वेतात.
आपल्या सपनांनी भरिल्ले,
फुडारक आंवडल्ले चेरे ते वयर येतात त्या सूर्याक ओंपतात.
परतून परतून हेंच घडत रावता.
सपन वियांचें कर्तुपूच आगळेंवेगळें. फाव तसलीं मनशां मेळमेरेन तीं म्हान सपनां.
तशींच रावतात ओलीं ओलीं.

# सर्ग - 8

*कवी आपले बायलेकडल्या संबंधाविशीं सांगता :*

सुर्वेक तुवें म्हाका सोगा-पासांनी घट आंवळून धल्लो.
तें म्हाका विसरूंक दिनासलें तूं सांगाताक.
हांव परतून परतून पळटालों घरा हाडपाक साणीक मोतयां.
रत्नां हाडटालों अणभव - खणींतल्यान.
म्हजो सांद सोंपल्याउप्रांत घराचे आंडीन हांव परतून येतालों.
त्या रत्नांक दिवन नवीन तासां.
आनी तुज्यामुखार दवरून वेतालों
जॉन डनान म्हळें ताचो जाता उगडास.
"मोगी हे कंपासाभाशेन.
एक पावल तुजें घट लक्ष्याक तेंकिल्लें. - एक पावल
म्हजें अशें हुमकळटा मेकळें.
तरी आमचीं पावलां एकामेकांक बांदलेलीं.
देखून केन्ना पयस वच्चींनात एकामेकांपसून.
हांव फिरत हेडत खंय गेलों तरी येतलों परत तुजे लागीं तशीं आमी दोन तोंकां कंपासाचीं
खरेंच हें !
पूण हें सगलें सांगिल्लें कोणें? जॉन डनान.

घरकार्नीच्या चिंतांची वैतागांची आसा म्हाका जाणविकाय.
तांचे मन वाजल्लें उबगल्लें ह्या घुस्पागोंदळांतल्यान मेकळें जावंक सोदता.
मनोरंजनाक आंवडेना तुका सुखी करतांना तुका उतरंगीनाय फुलांवचे पडटा.
वेसाचे उंचांतऊंच तेमक चडून वचपाचें सपन सत्यतायेंत हाडचें पडटा.
हांव तुजोच हें खरें पूण.
म्हजेर आसा जगाचोय हक
तुजेलागीं चलताना किनेंतरी चुकलें, कर म्हाका क्षमा.
भितल्ल्या विश्वाची जितली मनशाक गरज, तितलेंच भायलें विश्व आमकां जाय.
पयस, पयस ह्यो दोन खुंटयो देखून मनाची जाता अशी ओढाताण.

हांव एक यंत्रमानव. धाडटा तूं म्हाका पर्याशिल्ल्या अंतरार नखेत्रां खुंटून
हाडपापासत, तुज्याच आंबाड्यांत माळपापासत.

म्हजें नियंत्रण करपाची सगळी विद्या कळ तर तुज्याच हातांत.
मात्सो पयस हेडलो तर मार व्हडले कितें जावपाचे?
म्हणटा तूं : ''एकदां हांव तुमच्या मायावी शब्दांत फाशिल्लें.
आतां आनीक नवो अणभव नाकाच. चड जालें आता. आतां आयकात तरी.''
म्हजे रेंवेचे किल्ले घडांयच करून कोसळून पडटात.
तरी हांव नवे उर्बेन नव्या नेटान परतून ते बांदतां
हांवूय दर्याच्या फेणेरावरी हांसतां.
दरया गरजता, म्हजें बांदकाम मोडून उडवपाक
तोय उसळटा, खुबळटा.

तुज्या म्हज्या विचारतर्काचें गणित अशे विसंगतूच उरचे.
दोन ध्रुवांच्या ह्या बांदपाविशीं आमचें एकमत जावचें न्हय.
हें कितें? तुजो राग विचित्रूच...
म्हाका सामको पुरो करता तो.
तुजी संकेतीक परिभाशा म्हाका पुरो करता
म्हाका केन्ना कळना. म्हज्या अहंकाराचें मस्तक हांवे तुज्या पांयार घाले.
एकाच धपक्यान तुवे भिरकटावन दिले.
बावडें जावन मस्तक म्हजे पडिल्लें तुज्या पावलांलागीं.
म्हजे धड मात आसलें उबे निःशब्द मोनी अशी मूर्त जावन.

# सर्ग - 9

*अभिव्यक्तीचें अनुरूप माध्यम म्हणून भास उणी पडटा अशें कवी सांगता*
*आनी मट्ट बुध्दिचे आपले बायलेकडले वागणूकेविशीं उलयता:*

एक जाप नाशिल्लो प्रस्न म्हाका सदांच त्रास दिता.
तूं खऱ्यांनीच आसा तरी कशी?
अर्थाचें ल्हार तूं. इतलें विरल कि त्या खिणाक शब्दाक मानता तशी.
अस्तित्व तुजें दिसता म्हाका मनापसून अर्थपूर्ण
ताचें सत्यस्वरूप प्रतिबिंबीत जाता म्हज्या दोळयांतल्यान.
अशें अर्दांग तूं म्हजें.
जाचो आंवडो परतून, परतून फुलता, त्या म्हज्या वळखीच्या सर्गाचें तूंच आसा भांगरा-दार.
आमी दोगांनीय आमचंच पासत घडयलो एक नरक
आनी तांतूंतलो एक नरक तूं
आनी ताका हांवेंच आकार दिलो.

जायत्या वेळाउप्रांत कळ्ळें म्हाका
तूं आनी हांव आसात वेगवेगळीं व्यक्तीपणां, दिसता म्हाका केन्ना, केन्ना
तुका समजप म्हाकाच जमलेंना, मन म्हजें थरथरता,
म्हत्वाचें कितें?
जमीन काय पाखें घराचें?

हांव असो वेळ घालयत आसां. नाका आशिल्ल्या प्रस्नांचें जाळ वाडयत आसां.
ज्ञानावगर शाण्याकूय येवचें कशें अस्तित्व खरें?
भासूच जाता साधन नरकाचें.
आमचें भावस्वत्वूच घेता हातासून.

भासदूदांन पिशेपणान आंबट विरजण हांवेंच घालें
आनी विटकळ्ळें दूद भायर उडयलें.
ताचें धंय करूंक येनासलें?
जरी म्हाका नासली खबर रसगुल्ल्यांची पाककृती
धंय घुसळून, घुसळून काडूंक जानालें लोणी तुज्या माणकुल्या कृष्णापासत.
लोणी दवरिल्लें जाल्यार दूदापसून दूदफेणं करूं येनालें.
करूं येनालें हेंयवी : बासुंदी, श्रीखंड, खीर वा किते तरी गोडशें

जुवानीचे नाकतिकेंन भानूच नासलें उल्लें.
भाशेचे आसतात तरेकतरेचें उपेग. उतरांकूय आसतात वेगवेगळे अर्थ.
मनांत धरूनूच गविल्लों तूं येतलो फाटल्यान कुडूपणान.
जुवानीचे धांवपळींत भानूच आतां नासलें उरूंक
भाशेचे जायते उपेग. उतरांकूय जायते अर्थ.
चलतालो मनांत धरून तूं दोळे धांपून येतलो म्हज फाटोफाट
म्हज्या अहंकाराक चडूंच उदक सारें मळ्ळें
म्हज्या फायद्याचे हेत भाशेंत चिलखत घालून आयले.
भाशेचींच केलीं शस्त्रां.
जायतेवेळां दुखयलो तुका तुका घायाळ करून तुजो सदांच शिकार केलो
हत्यार वापुरपाची कला तूं मातूय शिकलोना
हांवेंच तुका सदांच निवर ख्यास्त केलो

मदनधुंद आपलेंच तनेरीत आसलों हांव पिसानल्लो जीव म्हजो.
म्हजें शरीर दिलें हांवें शरीर नाशिल्ल्या अनंगाक
मदनमस्त वेलावरी वासनेन जावन पिसो धपक मारीत रावलो.
उन्मत्त, उमेदी, उत्तावेन, रावलो जियेत तेंच मरीत युग नांवाच्या वसानल्लो
जल्मतीथ म्हजी.

कुंडलींतली सिंहलग्न वृषभ म्हजी रास. शिंवलिळेंत बुडत रावलों,
तुजी वेदना कळ्ळीच ना.
वसूवरी हेडलों हांगाथंय, आडुलों मस्तींत.

जिविताचे देंवतेर पडत, पडत वेतालो सकयल सकयल.
म्हजे फांतोडेचे रंग वेगळे,
म्हजे सांजचे रंग वेगळे; सूर्याचीं भांगरा किर्णां ही तर देण सैमाची.
मळबाचे धारेर रंगांचोच भनभुलवणो उजवाड.
सफरचंद ना चोखपी पक्षी बियां सहज सोडून दितात.
सुख पारखून आपलें गुपीत दिता सोडून.
सदसद्विवेकबुध्दीचो खवळ्ळो दर्या अरिश्ट तुफान उसळ्ळें.
असंख्य ल्हारांनी विचाल्लें. :
"हें तुवें कितें केलें?"

# सर्ग - 10

*आपले स्वावलंबनाचे प्रक्रियेविशीं कवी उलयना :*

तुज्या सदांच्या हांसपांतल्यान तशे प्रेमतरंग उदेनाले.
पूण त्या हांसपाफाटल्यान म्हाका नगायेंची कोंडमाण जाचताली.
द्वेसाच्या ह्या धुंवरान प्रेमसूर्यच गेलो धांपून. मूडाचो काळोख आशिल्लोच तप्पर
उबारून आपली फोडा,
तुजें म्हजें झगडें अशें:
सोरप मुंगूमासारकी क्रोधाची उबारून फोडा
तूं सोदताली करूंक प्रहार.
फार्टी मरून जोगलाभशेन हांव रेमतालों दांत किंवाल्यान.
तुज्या विखापसून हांव करतालों. सदांच राखण.

एक दीस हांवें तुका म्हळें रागान, गाढवीण
आनी म्हजेर खोंटो मारून तूं गेल्ली पळून.
म्हजो म्हाकाच हांवें सांवरलो तेन्ना कळ्ळें हांव रागारगान फणफणटालों.
फोडा उबारून दंख मारूंक हांव तयार जाल्लों.
कळनासलें म्हाका.
म्हजेच म्हजेलागी उलवप चलत ,आसले
म्हजेच पासत सावदां-जनावरांची रानांतली जीण
दुख्ख मात खंयचे चिमणंक - तरी तुका दूख. तूं म्हजे सवस्व. सत हें

तें सत हांव करतालों नदरेआड.

तशें म्हळयार तूं जिवीत.
रागान खुबळळेलो दर्या.
नारी तूं आसा मोगांत.
पूण नेट तुजो बेसुमार.
अशी करीत धूसफूस जालो हांव शांत.
आतां उरलो ना मानवी नाग
कोण नासलो मुंगूस. नासली कोण गाढवीण.
तुफान आनी हून वारें हांचो वेळ गेल्लो सरून. सकाळ - दनपार - सांज - परतून सहवासाचो वेळ आयलो.
सुगंधी जाल्यो गती मोगाळ - जियेवपाकूय आयलो भार.
सखे, तशें म्हळयार म्हाका केन्नाच नासलो इश्टाचो उणाव.
तांचें गुणगान करीत, करीत म्हाका जायनासलें पुरो.
त्या सगळ्यांनी, पूण वडले चतुरायेन केलो उपेग. फुकटच्या जेवणा उप्रांत कोणूय जसो चाबडायता विडो.
तूं जाताली घायाळ आनी जायत गवतलों वेदरकार.
म्हाका नासलो लोभ दुडवाचो पूण तूं आसली समर्जीक.
हांव वलायकेन जालों तेन्ना दुबळो. अस्कत.
म्हजे इश्ट जाले बळीश्ट.
पूण म्हजी चलणूक तशीच उदार उल्ली.
तातूंत नासलो खंड.

पश्चतापान हांव गेलों हुलपून, भाजून.
तांणी म्हजो केलो वापर.
दोश मातूय नासलो तांचो.
हांवूच जाल्लों मूर्ख.
म्हजेच गरजेखातीर हांवें घाल्लें उदक-सारें ते इश्टागनीक.
वालींच्या सांगातांतूच कित्याक सुचनात हीं कवनां?
म्हाका खबर ना. दोश म्हजोच.
आपले आपणाक परजिवी वाल हांवेंच करून घेतली.

मागीर उडयलें भिरकटावन हें गुलामपण.
हांवूच जालों म्हारुख.
म्हजे नातें म्हजेच लागीं मनांत म्हज्या - मुळां घट निश्चेवाची. म्हज्या मनांत.
वर्तनांत ती वाडत गेलीं, निबर वळीश्ट जालीं.
आनी इश्ट-मित्रांमदली खांच वाडत गेली.

दरएकलो म्हाका वेगळोच कळून आयलो.
म्हजे अस्मितायेन घेतली पकड, मेस्त पक्षी, कावळो, कोगूळ आनी चानी
आनी नावाडगो वानर. कांय जाणांनी साल सोलली, कांय जाणांनी पानां खुंटली,
कसाय करपापासत कांय जाणांनी कातूय खरवडली.
तळांतल्यान मुळांय हुर्मटिलीं.
कांय जाण झेलूं लागले खोंसयेंत, कांय जाणांनी घेतलो विसव सांवळेंत.
कितल्या तरी असल्या लोकांनी आपल्याभितर वांटून घेतलो रुखाक.
हांवेंय मागीर अचानक म्हजे पवित्रे बदलले.
आयलीं म्हाका कळून नवीन रुपक दलां, भायर सरून लागलो लुटूंक म्हजीं फुलां,
म्हजी फळां.

# सर्ग - 11

*कवी आनी ताची सखी परत लागीं येतात :*

आपपरगर्ची आडखळ कुशींक सारून तूं भिडली म्हज्या काळजांतल्या काळजाक.
जेन्ना तुवें तुजे जळटें जिवलेन चाटलें ताका. सांगूं कशें?
असह्य आसलो तो धग. थंडसाणीन, पूण म्हाका कशेशेंच दिसलें.
अज्ञाताचे सुगंध आनी अनुकूलतायेच्यो असंख्य छटा, तृप्तीचीं आनी सुखाचीं ल्हारां,
पायांबगर चलपाक येवंक लागलें,
हाताबगर स्पर्शानुभूती सादली,

आयकुपाक कानांची, पळोवपाक दोळ्यांची मातूय गरज उरली ना.
एकसुरेपण पुसून काडपी स्पर्शाचो हो जादूचो धपको.
काळजाक उजवाडायता, सोंपयता वेदनेचो ठसको
अप्रूप अशा तुज्या स्पर्शान फुल्ले भाशेक कंवळे आंकूर,
म्हजो गोटिल्लो बेभान आत्मो फुलपापासत जाल्लो आतुर स्पर्श.
एक सहज, सभावीक आंग अभिन्न जिविताचें.
सूर्योदय, सूर्यास्ताचो जादू, संगीतूच मुकण्याच्या गीतांचें.
चंवरिल्लीं असंख्य नखेत्रां मळबांत आमचेखातीर. परत, परत फुलप आमचें.
तेंच तेंचपण लागू नाशिल्लें आमचे फाटीक.
केन्ना कळळेंच ना : आयले दीस नवे? कितले गेले फाटीं
भिरांत आनी समर्पण

ह्या मैथुनवागेचे हरयाळेर आमी गेल्ली न्हय गे
सर्गाच्या ऊंच तेमकार!
दिव्य गंधान बेभान जावन भोंवलो जादूच्या जमखनार, केन्ना पावलों लागीं नखेत्रांचे,
केन्ना केन्ना तांचेपसून्य गेलों पयस.
धुंवर - किटी आनी इंगळयांचो शब्द वर्षाव निरंतर..
आमच्या मीलनाक केलें पगवनीन यज्ञ कर्मांत
रोखडेंच तांतूनल्यान जालो "सा" तयार, ताचेउप्रांत "गमा" चेंय आगमन,
सामगानाक आयलो आकार.
अपेक्षप्रमाण निमाणें वाक्यप्राणांचेंय मैथुन घडलें.

मुळां घट धर्तरेच्या पोटांत, विस्तार सगल्या आसमंतभर.
ताच्या खांद्यानाळयांनी केलो इंद्रलोकांनूय विस्तार

चिंव, चिंव करपी चानयो मजेंत हालनात मोडटात तळापसून तेमकांमेरेन पानपान लखलखता तेजान,
लाखांनी दिवे सगलेकडेन दिगंत तेमकाक तरे उजवाड अपूर्व, तुळा नारीशळ्ळी,
दिसता "अ-ड-म" च्या त्रिकोणाग्नीचो लोळ सगानल्यान येता खाल्ला,
शिवाच्या तिसऱ्या विध्वंसक दोळयानूय प्रवेश केलो घरभर.

नासतांना भिरांत मागीर चढून गेलो भुरगेपणाचे इस्कांदर
आकाशफळां खुंटपाक घतल्ली इत्सांनी आपय, विराट मळबाचेर
वयल्ले सळ काढून निवर कहीं भायर भिरकटावन चोरिवळ अमृतफळ
रसभरीत फळ फोडून मनापसून कन्यांत आमी सुखानंदाच्या,
तेन्ना आमी करताली क्रीडाविहार जन्ममरणाचे भिरांतेन
पूण मात लेगीत नाशिल्लीं विचलीत,
पूण आमच्या कन्याक केलें भयभीत हालपाधोलपान
हांव अजापलो भियलो, पळावन हो पिसावळो दयो

# सर्ग - 12

*कवी आनी ताचे बायलेगेर पयलें भुरगें:*

पयल्यावयल्या गडगड थोड्या अंतरगवेल्यान रिगलो
कानांत, तेन्नाच भियेल्लों हांव. आतां जोगूल कोंसळटलें.
देवालागीं मागणें करून म्हळें हांवें मनांतल्या मनांत :
वच्चें विरून ह्या कुपांत.
मनाकूच म्हळें हांवें : विध्वंसक मनीस म्हणून हांव जल्माक आयलां काय !
म्हाका खूबूच येतालो दुबाव तूंच तशी युगीडीस जातली.
ताकतिकेन ऑर्फियस तिकाच आयिल्लो विसरून.
निमाणें मनाकूच हांवें सांगलें :
म्हळें हांवें थोडो शांत जावन.
सिसिफसाच्या आसाच नशिबांत फातर दोंगरामेरेन व्हरपाचो.
ताका तें चुकना.
म्हणटकच हांवेंच कित्याक करचें न्हय हें काम?
हें उलयलों हांव धांपिल्ल्या ओंठांतल्यान.

पयल्या भुरग्याची लागतां सुलूस म्हळें हांवें,
"इतली कित्याक ताकतीक?" दोतोराक सांगलें वचून.
"नाका म्हाका भुरगें" ताणें म्हाका खडसायलो.
"गर्भपात म्हळ्यार कितें कळटा तुका?

तयार गवया आमी येतलों नवो ताच्या येवकाराक.''
जागरूक मनाक हयकार दिलो. अबोध मनान तें दिलें भिरकटावन.
भयांकृत स्वप्न - जगांत अंतर्मन हालून-धालून
उटलें धुंवरान भरिल्ल्या हयन्दयशा उजवाडांत
वाडून हाडलो असो फगळ वशींत घाल्लें - एक कंवळें निष्प्राण बालक.

सामकोच गेल्लों तुटून.
तरीय आयलें बाळक जल्माक.
वायट सपनाची भिगंत मनांतल्यान निस्तून गेली.
तूं आवय जातकच हांवूय जालों तुका अनवळखी.
भुरग्यावांगडा तुजेंच भाशेन रमून हांवूय जालों पोर. हांव म्हजेरूच आसलों खोशी.
म्हाकाय दिसतालें वेगळो वेगळोसो पावस पडून जातकच
अशेंच जाता मळब निवळ, नितळ, मेकळें. नवगनाचे दोळे हांसताले हे क्षमाशील
धर्तरेचेर.
दु:सपनाची नामली उरूंक कुरू, सपनूच जाल्लें नवें.
फुलासारक्या त्या कंवळ्या जिवावांगडा मनानूय जोडलें नातें.
आसल्यो वस्तू नव्यो, नव्यो. दुदा-पिटो आनी झोपाळो. टॉनिकां, खबरांची जमखनां.
आंगली, नवो खिळखिळो, माणकुल्या जिवाचे लुडबे बोल : हांवूय शिकलों अममम.
ताची बूची, बुकूची अशी अर्थ नाशिल्लीं उतरां म्हाका लागलीं गोड.
''आतां जमल्या तूं'' रूतुमती'' आनी हांवूय जालो ''रूतुमत'' बापूय.
चलत, चलत गेले दीस आनी ''गीता''य उदेली आपशीच. हांगाथंय मोग
सळसळटा. मोगाबगर कांयच समजनां
किडमुयो, पशुपक्षी, झाडां वाली इतल्यो आयल्यो.
सगले कोनशे गेले भरून.

आमी आसले पतीपत्नी : पिता आनी माता हे पदवेक पावलीं आमी.
आसलो असो हो अभिन्न अणभव.
आमकां मेळ्ळो नवोच जल्म :
आवडीनानिवडी एकूच सगल्यो एकरूप.
सगळीं सुखां लेगीत एकरूप.

पूण केन्नातरी येतालें मनांत, थंय लेगीत वास शेळेपणाचो.
चलताचलतानाच पडलों हांव
बसतानाच तो सुट्टालो,
मर्म अशें हे आयुष्याचें.
आतां कळूंक लागलें जिवीत काळाच्या राजवान घट बांदिल्लें आरांटून चरांटून,
परंपरेन केलो सांगात.
अशीच आसता समाजरीती. सहाय्य केलें सदा सुसंगत.

लग्न म्हळयार तट यमुनेचो.
हांगा उसळटा नाद सुखाचो: हांवूय रमलो हांगा.
जसो पारवो, घुमत घुमत रिगता पांखांत,
तटावेल्यान केन्नातरी थरथरताली शिळोणी. संकेताची, हांगाच येवचें पडटालें मुक्कामाक.
तेंच कुरवंची पडटाली भूरळ. तूं पयसावल्या हें येतालें ध्यानांत,
ध्यानांत येताली तुजी धुसफूस तुजी नाखुशी.
लग्न बंधनाक अटळ मानून हांवूच जाल्लों ताका राजी.
आपशींच फुटचे आंकराआंकूर, पानां फाटल्यान येवचीं पानां. कळयेकळयेन फुलपांत पळयत सुवाळो आनंदान विवाहसागर धुसळून येता,
उंच मारता झोंपय वाफूच ताची,
उगडासांच्या मळबांत जमता गडदशी गर्दी कृष्ण कुपांची. सुखदुःखाचीं कुपां झगडटात,
गडगड करतात आनी कांपतात,
नाचत लखलख वीज कडकडून पावसूच पडटा सरींसरींचो.
सरता कुडकुडो शिंयाळ्याचो आनीक येता गीम.
चिर्कचिकीत. वैतागाचें चैत्राचें रुप अशें बदलतें.
वैशाखाचो रंग वेगळोसो.
खिणाखिणाक सरता वेळ देह नारीचो लवचिक सामको.
दिसता समाकें सहज सहजशें तेंच करचें आनी जीवित सारचें.

# सर्ग - 13

*कवीगेर दुसरें भुरगें जाता :*

स्वप्ना... हे म्हजे कन्येचो ज्या वर्सा जल्म जालो
म्हजो पयलो कवितां - झेलो लंकेश प्रकाशनान प्रसिध्द केलो.
आनी म्हज्या विशयाचो हांव जालो प्रोफेसार. "वोक्कतले" हें नाटक म्हजें केलें सादर लंकेशान रंगमाचयेर,
एका वर्साभितर आनीक नव्या भुरग्याच्या पावलाची लागली सुलूस.
तें नासलें दुख्ख थोडें : "आरेरे! कित्याक जाली म्हाका ही परतून चली?"
दिसलें म्हाका जालें पुरो. पुरो जालें, जाल्यो चलयो दोन.
आनीक कितलीं म्हणून जाय भुरगीं? नासून पुत्रसंतान. "पुट" नांवाच्या नरकाची मातूय लेगीत दिसली ना भिरांत.

पयलें भुरगें एक वर्साचें,
धांवलो हांव दोतोराकडेन. "दोतोर, तूंच सोडय हें कुवाडें दुसऱ्या भुरग्याच्या संभवाचें."
पयल्याभाशेनूच ताणें म्हजो घालो समज.
वेवसायिक कुशळतायेन दुसऱ्या भुरग्याक कळंक येवकार जालों तयार मेकळ्या मनान.
पयलेच भाशेन
म्हज्या सबोध मनान केलो हे घटनेचो स्वीकार.
पूण अर्दजागृत अबोध मनान कडकडून केलो धिःक्कार.

मनांतलें हें झूज-झगडें कळप कठीण.
ताच्यो प्रतिक्रिया लेगीत दोट्टी अर्थाच्यो. त्या मनान सांगलें म्हाका :
"तूं मनीस काय देंवचार? खांपी मतलबी तूं, सामको सुवार्थी!"

मेजार मर्दी दवरलें भुरग्याक आनी म्हळें, "चल वेगोवेग, दी म्हाका खंजीर!"
तुवें म्हाका दिल्यो तीन सुऱ्यो, सगळ्योंच दिसल्यो बोथट.
तरीय तांतूतली एक उखलली - धारेची - तीक्ष्ण - भुरग्याच्या गळयार :
भुरगें तडफड, तडफड तडफडलें. भुरग्याच्या उसळपी गळयांतल्यान हुनहुनीत
रगताचो फवारोच फुटलो.
"आरे! हें कितें करता तूं?"
किळची मारीतच हांव जागो जालों.
मनांतलो नरक कळून - म्हाका मेल्यापरस मेल्ल्याभाशेन जालें!

नशिबान भुरगें वाडलें - वाडूंक लागलें.
वाडतच गेलें. हाचेंफुडें काळजी घेंवप चड गरजेचें.
आमकांच आमी शिटकायलें हे गोरगपिट्ट चलयेक "रश्मी" ह्या नांवान पाचारूंक लागलीं.
कृपाच देवाची... पळोवन तिच्यो वालालीला
सुखान आमी चंवरूंक लागलीं. काळ कसो पळून गेलो
केन्ना, कसो? तें कळळेंच ना.
हिंदू एकवटेन.. दुसरेवटेन किरिस्तांव. मदतीखातीर आसले शेजारी.
आमी कोण परकी आमी कोण अनवळखी अशें ताणीं आमकां केन्नाच दिसूंक दिलेंना.

# सर्ग - 14

*गोंयातले जिणेविशीं आनी आपले भुरगेपणाविशीं कवि सांगता:*

गोंयां रावतालों, भोंवतणचे लोक खूबूच मोगाळ.
पेरेरा, पिन्टो, कायतान, नाटेकार, केळेकार हे आमचे शेजारी.
मांडवी आनी जुवारी ह्यो न्हंयो हुंपून आमी वेताली, कोलव्यां, कळंगूट आनी वागातोरच्यो वेळो पळेतालों.
जंय लोखणाच्यो खणी अशे मातयेंत वावुरतालों...
काजू, उर्राकचे गादयेंत नदर मारतालों :
डुकरां, मांजरां घरा भोंवतणी, कोणूच कांय करी नासले विचार.
अशीच वसती, सगलो वांठार कोंकणीच कोंकणी.

देवाच्या अस्तित्वाचो, ताचे अस्मितायेचो आयलो प्रस्न मुखार तेन्ना दुसरे खेपो अशें घडलें आयुश्यांत.
घडिल्लें घुस्पागोंदळाचें कुवाडें.
देशभक्तांची संगत धरून वेतलों आशिल्लो झुजामळार, रणांगणांत :
जर आशिल्लों मुंबयतूंच, गोंयांत आशिल्ली हवा निर्णायच स्वतंत्रतायेची.
म्हापश्यां फुडल्या त्या गांवांत जाणविकायूय नासली ताची.
चर्चा करपाक थंय नासलो कोण मन:क्षोभ म्हजो समजून घेवपाक.
दिसलें म्हाका उदास-विचित्र.
वेळूच आसलो वेगळो तरीय सांबाळून घेतलो हांवेच म्हाका सांबाळून.

जेन्ना पाकिस्तानाआड झूज खर चलतालें. शत्रूंच्या कौर्यकथांचे पीकूच तेन्ना येतालें,
तीन वर्सांची चली म्हजी, प्रस्नांच्या वर्पावान म्हाका नाकाजीव करून सोडटाली,
धाक दाखयतालों अतिरेक्यांचो,
वागुलवुवा येतलो म्हणून बसयतालों गप्प.
वॉंवरचे घरघरटीन "पाकिस्तान" अशें आइत भिवन उठ्ठाली.
इल्लोसो तिचो देह पडटालो धवो. भिगंतेन मामकी थरथरताली,
जेन्ना आर्मी जिखले झूज तेन्ना आमच्या सैन्यान तर कमालूच केली,
दिसलें आत्मविस्वास घेवन नवी सकाळूच आयली मुखार.

कोनशार आसलो एक मोची.
ताचेकडल्यान घेतलें एक सुणें.
स्वप्नाक मेळ्ळो एक खेळगडी,
भावशिक्षणाचें एक साधन थारलें.
जेन्ना आयलो गीम आर्मी गेल्लीं आमच्या गांवां.
शेजाऱ्यांक सांगिल्लें आर्मी घेवचें सांबाळून ह्या सुण्याक.
आयलीं परत तेन्ना जाल्ली खंत, नासलें पील. नासली वार्दा.
म्हजेच म्हाका दिसलो हांव अपराधी.
दोगांमदल्या विस्वासाचो तुटलो जसो धागो.

सदांच म्हाका वच्चें आसलें तेंच सुवातेवल्यान:
दुसरो कसलोच उपाय नासलो.
"कशें आसा सुण्या-पील?" अशें म्हळ्यार सांगूं कितें?
इश्टाक दिलें अशें सांगलें जाल्यार जातलो ताजो अनादर.
विचार लेगीन आयलो तरी कांटो कसो तोंपतालो.
कशें ताका सांगूं? "तुजें पील गेलें मरून!"
पील आसा मजेंत!" सांगचें कशें फटी?
ह्या घुस्पा-गोंदळांतल्यान सुटपापासत विचित्र कितें येता मनांत..
"हो जोर्ती करपीय मेल्लो जाल्यार, जातलें आसलें कितलें बरें!"

केदी विलक्षण ही वीण आंतरविश्वाची?
कठीण पूण कितली व्हडली! -

वावर विस्वासाची राखण आमी सगले यत्न करतात नम्र आसपाचो - शेजारी, इश्ट,
वळखीच्याचे नदरेंत उरपाचो.
उगडेनागडें सत सांगल्यार तर मनशांची दुखतात काळजां - खोल खोल.
अप्रिय सत सांगपाकूय रस्त्यार, हांव भियेतालों.
गांधीजीची सत्यान फाटूच धरली -
सोसूक जायना अशीं वर्जी. तेन्नापसून दिसूंक लागली भिरांत म्हाकाच म्हजी.

वाटेर जें आयकलें तें जायना विसरुंक.
उजो कशी पेटलेली ती एकूच खबर बातमी - महात्मा आतां जितो ना.
दर्याक हांव नियाळटालों. भरेल्ल्या मळबाक
खंयच्यातरी काळ्याकिट्ट कुपान गिळंकृत केलो चंद्रिमाक -
हालींच हांवें वाचली आत्मकथा गांधीजींची जावन समरस
बापू किटकिटून हांसलो

चश्मो घाल्ल्या चेऱ्यावेलो हांसो केन्नाच पुसून गेलो ना.
गांधी हत्येच्या वातावरणान भिवन गेल्ल्या म्हज्या पोलीस कर्मी बापायन
म्हजे तकलेवेली काळी टोपी तिडकून कोणाक तरी दिवन उडयली.
पिळग्यान पिळग्यो कुटुंबाचें प्रतीक म्हणून वापरलेली कट्यार अशीच कोणाकतरी दिवन
उडयली :
ताचो विशद ना मानलो. त्याच दिसा मरेस्त जाल्लो गांधीजी अजून भोंवतणी
आसासो दिसता.
निर्णयाच्या कठोर वेळार दिता विस्वास सोद धरपाचो मनाचो.
आपल्या दांपत्यसुखाक ताणें लायली चूड देशाखातीर.

सोशीक पत्नी कस्तुरबाक यज्ञवेदीचेर बळी दिल्ली
म्हाका दिसना जावचें कंजुश सांगपावेळार सगलें सत
मनाक घट सांगचे आसता कठीण अभिधारान.
अजून लेगीत असल्यावेळार दुसरें कायं सूचना.
येत्न करतांना दिसता म्हाका खोल, खोल खोलाय
म्हजो माणकुलो जल्मगांव आनी सानुलें घर हांची म्हाका याद येता.
गांवचें गटार उदक ताच्या फाटल्यान व्हांवतालें.

धाकटुली व्हाळी व्हांवन व्हांवन जालो आतां व्हडलो व्हाळ.
उदकाचो व्हाळ धुकलीत मुखार आतां चलं फुडें.

तोंड उगडून खळखळ धांवता विरळ सोरपाभशेन हो व्हाळ,
झाडां, झिली, फाटली जमीन तो भयांकृत व्हाळ बसला गिळून.
फांतरांनी घालो बांद.
आडवपाक बांदली वणत.
भयानकाची ही विशाललीला : सगळं कश्ट गेले फुकट.
शंजरा चरपी गायो - म्हशी त्या रेब्यांतूच वसताल्यो रोमून.
तांच्या त्या मर्णापरस, गतीं प्रलयाची दिसताली भिरांत.
ते सुवातेवेल्यान भोंवतांना जरी थरथरतात सदांच पावलां.
तरी आतां सत कशेंय सत म्हणून आपणायलें.

# सर्ग - 15

*गोयचे जिणेविशीं आनी श्रध्दा जागोवपाविशीं कवी उलयता*

गोयां कोंसळपी पावस पडून जमनींत उरचो
तशीं दिसतात पाचवींचार शेतां : नांचेंच गेंपूय झेतान धांवता
धडपड जमता तसो पावस थारावपाची.
ताडपत्र्याच्यो सत्र्यो आनी कांबळी.
कंत्र्यांक वाटावपाची. गोयचो उगडास जागो!...
खोल, खोल नाल्यांचे असंख्य पांगण उगडास.
सगळेकडेन पातळळेली पाचव्या जमनींनांचो सार्वांत लवलव. मळांय आसमान
आच्छादित,
गाळी लग्नांत उगडटात पाचवींचार हास्या

मन खोशी करपी पयलेचे झळकेची परमळांत हवा
देवळांक, इगर्जींच्या कळसांक आनी शाळांक लागून हो स्पर्शूच नवो
मार्लाक्रियाद, इश्पर, नाद आनी "देव बरें करूं" हो हांगा उलगं शिकलों नवो.
कोण म.गो. पक्षाचें तर कोण यु.गो. पार्टीचें बांगडो जाल.
जियेवपापासत राजकारणूय जाय.
आमची कन्नड भासूय आमी बरोबर केली
बेकरींत आयकले पिंटाचें काळीज पिळून उडोवपी भयांकृत गायन.
सुण्याचें भोकप आनी कावळ्याची कावकाव नाच सुसार सामको फिको

एकदां बस्तोड्यांत रावतालीं आमी पाख्याच्या एका घरांत.
रातच्या वेळा नळे खडखडले. शेंकड्यांनी शहामृत आयले चलत अशें दिसलें.
नळ्यांच्या विचित्र आवाजान कलकल्लेलें काळीज गेलें पिंजून.
दारां धडाधड आपटलीं दिसलें देंवचारानूच आंवळिल्लीं.
न्हीद गेली पळून दोळ्यांतल्यान. काळजाचे ठोकेच भिरांतेन चुकले.
पळटाले तांचो आयकूंक येतालो बोवाळ.
सगलो वाडो थरथरलो.
भिरांतेन कांपून सगले लोक थरथरत उलयताले.
आरे जमीनूच - हाल्ली. आयुश्यांत पयलेच खेपेक अणभवलो क्रोध भूंयकांपाचो.
गोठले पांय, आंग लुळें पडलें, विनाशक तांडवाचो बसला तडाखो
पुराय म्हज्या अस्तित्वाची गेली जळून सगळीं मुळां.

गेलो करपून आत्मविस्वास. काळखाचें काळेकिट्ट अथांग तळें, ही पाडपडिल्ली शक्त नांव नाशिल्ली, विज्ञानाचे पलतडची.
दिसलें आतां जातलो दर्या लेगीत उग्फाटो.
म्हळें, बायलेक, ''आगे! देवाऱ्यांत लाय ती दिवली ल्हान,
एकाद्रो किर्ण येवन जातली म्हजी कूड प्रकाशमान.''

हांगा थंय हेडपी म्हज्या मनाक गूढवादान दिलो आदार.
म्हज्या मनाचे नास्तिकतायेक उडयली पुराय बदलून.
भुरगेपणांतलो भावार्त कंवळो, फाटल्यान खंय तरी रेंगतालो.
पलायनवादूच अनवळखी. दितालो मनाक शांती.
बुद्द, विचार, तर्क, पुरावे, हांचे पलतडचें सगळेंच वेगळें.
धागेधागे समजून घेवपाक मार्गूय लागतात सामके आगळे.
काळजाकूय जाप दिली हांवें. समजून घेतले म्हजे उमाळे, कुपां सोडून दिली सैरभैर श्रवणभक्तीचे देगेर.

आयले आयकूंक कानार उपनिषदांचे मंत्रोच्चार कीर्तनांच्या आनी गीतांचे नादोच्चार.
आवाज घांटीचे लेगीत.
सान भुरग्यांचे लुडबे बारल सरतात भायर माणकुल्या कंठांल्यान.

इतल्यान आयलें म्हाका आमंत्रण सुखावपी अमेरिकेंतल्यान. जाझ संगीत आनी रॉक संगीतूय आयलें तरंगत.
नाचत मोडत आयल्यो नर्तनशाला. श्रवणसुखाक गा ना उरलो पार.
आयलें आमंत्रण थोरोचें आनी मनस्वी व्हिटमनाचें लेगीत.
हॉथॉर्न आनी मेलव्हील हांणीं फाट थारपटलीच म्हजी.

# सर्ग - 16

*अस्तित्ववादावेले कवीच्या विचारांचे उत्फर्के :*

आसलों नास्तिक सामको तरीय न्हिदेर आसलों म्हजो पुराय भावार्त.
ईश्वर मानूं काय ना मानूं!
कसो सोंसूं नाश आपलो स्वतःचो?
देवळाभितर ना गेलों तरी राखलो भक्तांचो मान. देव असो दिसतालो देहातीत.
तूं लेगीत गेली तुज्या मार्गान. आसता वाचा तर्कातीत काय तर्कूच आसता वाचेपलचडचो.
कितें खंयचें वेंचून काडूं!
अजून सुटना हें कुवाडें! अर्थाबगर शब्द काय शब्दाबगर अर्थ...!
म्हण्टकच हांतूतले कितें खरें.
झपूर्झावस्थेंतल्ली भोंवडीच सगळेकडेन... मोनेळ खरी काय बोल खरे?

म्हजें नास्तिकतायेफाटल्यान आसा बुदवंतांचो तरल सांगात.
सर्वंगड्याच्या विचारांतूय आसा शास्त्रज्ञांची अपूर्व पंगत.
फ्रॉयड-युंगच्या आदारान हांव पारखून लोकांक पळेतां.
हें करपाच्या अतिरेकान हांवूच दुयेंत पडटां.
''हांव तर एक व्हडलो वरंवपी'' ह्या मनोभ्रमाचो म्हाका आदार.
दोळे आशिल्लो विवेक सांगता स्पश्ट.
वोथट जाता संभ्रमधार. म्हजे उमाळे लेगीत जाले सुकें.

र्वेभाशेन जालों हांव निरस. म्हज्या मनाचें जालें यंत्र. हांव एके वळींतल्यान जियेवंक लागलो.

कवितायं जाली सुकी सुकी हांवूय जालों सुकोसुको.
शास्त्रबुद्दीय प्रमाण मानली तरी बुद्द म्हजी चलीना.
मनाभितलें कितेंयतरी म्हाका धिगान लागलें म्हणूंक.
''परमेशाच्या वरदानान वांझ गायेचे आंचल भरले.
मनाचो जालो इतलो फांतर तर जगनियंत्याक मातूय मानीना.
ताची करणी इतली अद्भूत. कशी करतली तिची वर्णना ही वाणी?
ऐहिक अणभव निरर्थ सगळे...
प्रचिती हांगा अज्ञेयाची. तरी पळेंता मनाक सांसपून.

# सर्ग - 17

*कवी आपले अमेरिकेंतले अणभव सांगता :*

अनुभूती येना ताची.
अमेरिकेचे सर्गभूमिचेर स्त्रीसहवांत सँडविच जालों. क्षमा करची म्हाका...
भान गेलों विसरून तुका पुराय विसरून गेलों.
शेणलें कशें खबर ना दाम्पत्याचें विराट रिंगण.
भांगराची गिरेस्त खण आसली जरी घरांत-खबर ना कसो निसरून पडलो पिश्याभाशेन.
स्फटिक धवें झगझगता तशे देंवताले बर्फतुषार
साकर स्फटिकांचो जादू हो
दीसरातीचे सुधांशूच ते. कॅरोलिनाचो आसलो सांगात तळ्यांत क्रीडा करताना.
विसरून गेलो तुका कसो गे मातूय म्हाका खबर ना.

दोन चलयांचो बापूय जरी हांव
मातूय नासली खंत म्हाका. तुजें नी म्हजें गे नातें नासलें.
नासलो उगडास भुरग्यांचोय.
नाच जाली वेदना काळजाची मातूय काळजाक कशें दुखलें ना,
जिवितालागीं प्रतारणा ही. नासल्यो राशी भावतंतूच्यो.
उब्या नि आडव्या धाग्यांनी हें वस्त्र विणिल्लें.
पिसो भुकेल्लो लांडगो जालों.

कसलेंच म्हाका भान उरलें ना.
पिंजून अर्दे वस्त्र कसो हांव - गेलों भायर देशापार.
तुवें जपलें गे अर्दे उरिल्लें,
तूंच म्हजो गे जीवन आधार.

फिलाडेल्फियांत बॉनी शूल्ट वांगडा वर्स सोंपलें गे पुराय अर्दे,
सरतलो, झरतालो सहवासाचो उल्हास हर्श.
तिका दिसतालें. "करचो हो अभ्यास पूर्ण!"
आनी मागीर वच्चें आपल्या कुटुंबालागीं, वच्चें परत मायदेशाक.
"तुका तुज्या बायल पोरांलागीं वच्चेंच पडटलें.
आमच्यो भेटी म्हळ्यार आसली गंमत एक!" सांगणें तिचें हें अशें.
खुबूच जाल्लो एकचार आमचो, पिशेंच लागिल्लें आमकां एकामेकांचे
हालत, धोलत, नाचत, मोडत, खीण गेले झिरपून.

साडेस फूट लांबायेचो व्हिक्टर आशिल्लो इश्ट तिचोय.
परतून, परतून येतलो तो आमच्या घरा. आयल्या बगर जायनासलें ताका.
शिश्टाचाराक फाव तसो आदार दितालों.
हांव ताका येवकार दितालो.
वयल्यावयलो तरी हो प्रतिस्पर्धी दर खेपेक इवाडटालो आमची खोस.
बॉनी सदां सांगताली म्हाका :
"म्हजो सभाव जिप्सीवरी. हांव केन्नाच जावंची ना राजी,
खंयच्याच दादल्यालागीं लग्न जावपाक.
गीतां म्हज्या सहवासाची उत्कट जीण विसरना."
अजापाची इश्टागत तिची.
गीतांतल्यान झिरपताली वेदना.

"रुचीक मसाल्यांच्या वासांचो भारत
कितलो आसा पयस, पयस.
म्हज्या मनाक रे वेंगावन गेली विश्वव्यापी रे नदर सुंदर.
कशें मनाक समजून घेवंचे.
तुज्या दोळ्यांत रे लिर्कालिक. ना कमलो दुस्वास.

रीत प्रीतिची तुजी विलक्षण.
काकुळेस्त पूण तरी निरागस.
अप्रूप तुजी रे जीवनभक्ती मनमनाक रे वेंगावन सोडटा
दोळयांतल्यानूय स्पर्शून वेता तरी जाणयता काळजा उमाळे.
देखून इश्टा तुजेर भाळ्ळें. खोल उलो रे तुजो अणभवी.
खदूळ मूरशी विरता वासना विश्वात्मकता सदां नवनवी!''

''खरेंच म्हाका पिशें लागपाचें.
जशें वालकाक खेळणें तशी तूं. कठीण कितली विसरून
वचपाक दिसता. सांसपुची, कुशींत घेवची.
ओड अशी नवी, नवी, अजापाची खरी, खरी एकठांय आमकां हाडलीं.
नशिबाची तोखणाय करची तितली थोडी
विरुध्द तोंकांवेलीं आमी, हे सुवातेर आमी भरसलीं एकामेकांत.
जमीन दर्या आडावंक शकलीं,
मोगांत गुंतल्ल्या दोन जिवांक. अमोल रत्नां सदांच उरतात,
लखलखीत, झगझगीत. असल्या हिर्‍यांक कितलें म्हणून जपप!
म्हाका याद जाता सदांचेच भरतेची
पोरण्या अमोलिक अवशेपांचो तुवें कोरांतलो शाप म्हज्या काळजार!!''
असले गावपी बॉनीक आयलों सोडून

पावलों घरा.. आलय आसली दोन भुरग्यांची म्हजेच पासत आपल्या पतीक सोडूंक राजी
तो दोतोर आसलो. अशीच आसली दुसरी दोन न्हवर्‍यांक सोडून आयिल्ली,
म्हजेच प्राप्तीखातीर - सगळी, सगळी केली खटपट.
''...दोन चलयांचो बापूय हांव.
पयस थंय आसा म्हजीच पत्नी. विपरीत केली करणी हांगा,
तिच्या कानार गा कशें पडलें ना?''
'हात कोणाचो धरून पत्नी गेली आसतली.'' म्हाका फटवपाक ही पूण लागली.
नाका नाका तें सांगत सुटली.

शंबरांतल्यान पंच्याशीं टक्के, अध्ययनाची पुरती जाली.

थोडेंच बाकी उल्लें खरें पूण पुराय करप खूबूच कठीण.
भारतदेशांत सोडून पत्नी-कन्यांक अमेरिकेंतूच वसती करची अशीच आसली परिस्थिती.
अशेंच घडये घडपाचें. "शरीरवासना तृप्त कर रे कर रे तृप्त" म्हळें अमेरिकेन.
हांस, हांसत अमेरिकेचे मिठींत मेळटा सगळें.
सगळें, जाय, जाय तें तें.
पुराय सोंसून म्हाका सामको
निराश करपा तिकाच ताकतीक.

सगळें सगळें इंग्रजी जालें
अमेरिकेंत आनी फिलाडेल्फियांत इतलो जाल्लों तन्मय सांगूं?
अमेरिकेचे इंग्लीश भाशेंत स्वप्नांगण तें पुराय गेल्लें मोडून.
मायबोली ती कन्नड आमची तिका सुवात गा खंयची आतां?
म्हज्या व्यक्तिमत्वाचे असंख्य जाले कुडके.
हांवें हांतांत धल्लें तण, केन्ना म्हाका समजलें ना.
मिडास आनी फाउस्टस हांच्यो आयल्यो प्रतिमा तरंगत.
घडये तांणीच दिलो धपको म्हाका. त्यांच गेल्या म्हजी न्हीद उडयत.

एकेका डॉलराचें मोल त्या वेळार धा रुपया.
काळया बाजारांत फायदो आनीक पांच रुपयांचो.
चडटे श्रेणीत गणीत मांडलें :
म्हयनो, वर्स आनी फुडलीं धाय वर्सां व्याज घालून इतली रक्कम.
आत्मो डॉलर-देंवचाराक विकलो.
मेफिस्टोफेलीस! ताका किते घडटलें काय?
ताचे किते जातले काय? वा फाउस्टसाभाशेन जातलो त्रास? इतल्यो मदनिका.
इतली मदिरा हांची खऱ्यांनीच गरज आसा काय?
सातोळयांत मोर्टगेजेर किनलो म्हणून दुडू वगडावयचो?

प्रेमदेवता राखता तुका हें जरी खरें
तरी केन्ना न्हीद येता तिका :
मागीर हें अशें जाता.
कसलेंय रूप धरपी राक्षस तुका उबारून व्हरतात.

केन्ना, केन्ना हे पळापळींत देव लेगीत सामील जातात.
इंद्रान तर कितल्या वेळां तरी अशें अग्नीकडल्यान केलें.
अर्जुनाचें समस्त जिवित प्रिया-शोधनांतूच गेले.
- तृप्ती मेळळी आयुश्याक तर हेड, हेड, हेडलों,
तरी कळळें ना सगल्या जल्मांत "खरें कितें जाय म्हाका?"

"हड्डयांत आसलें कितेंयतरी आनी सोदतालो कितें?"
नाका नाका आशिल्ल्या वस्तींखातीर बेंश्टो कश्टतालो म्हाकाच.
असंख्य वर्सां वेतात सरून.
आनी मागीर येता हें गिन्यान
पोरसांतल्या वाझांतलेंच झाड आसलेलें वखदी!
तरी ते शाणे सदांच म्हण्टात :
पर्यशिल्ल्यान दोंगर दिसतात सोबीत,
फातरां - कांट्यांत चलूंक लागतांच धोंपरां वेतात फुट्न.
तुका दुखोवची, सुखी हांव जावचो म्हणून काय हांव गेल्लो?
दुःख तुगेलें सगलें नुरचें म्हणून काय हांव रावलों?

घरावरी मेकळेपण मेळळें ना म्हाका थंय.
एकनिश्ट असो सहवास कोणाचो मेळळोना म्हाका थंय.
सुर्वेचे ते भरतेउप्रान्त.. येतालें मनांत नाका आशिल्लें.
ह्या स्नेहाचो ना वांटेकार कोणी-केन्ना येतलो कोणा खबर ना.
सदांचे भाशेन सख्यही वेतलें,
हीच खरी ती भिरांत.
असल्या वेळार लागता खतखतूंक कर्मफळाचें दूद. वयर जमलेली थंड जाली साय,
धगधग जाता तरी जाळ तो,
दूद ना गेलें ओतून, तरी घट तवंग तो आयलो.

अशा प्रसंगार अमेरिकेंत आपयलो अडिगाक...
ताची वळख करून दिली बॉनी शूल्टलागीं म्हजेपासत.
भोंवयी उडोवन म्हळें ताणें "हें अशें आसा तर!" ताका म्हळें हांवें. "तिच्या
आग्राक लागून

घरा आतां म्हाका वच्चें आसा!''
''तुजें पत्नीक आश्वासन दिवन आयलां हांव हांगा.
तुज्या घोवाक हांव थंय घेवन येता म्हणून.''
''बरें तर'' हांवें म्हळें ''पूण म्हजो अभ्यास!''
आडिगान तिडकून म्हळें,
''उजो लाय ताका, चल आमी वचूंया गांवघरा.''

# सर्ग - 18

*कवी आपलें भाग्तान पग्तें येवपाची आनी थंय कसली कग्रिअर आपणायतालो ताची खबर सांगता :*

अनंत आकर्शणां, बारीकसाणी, भिरांत
हांणी भरून उल्लां आमचें जग
देखून तें गतिमान.
अपराधांची खंत तरी आसची
सदांच भिरांत आसची, सदांच प्रीत. लागलें कळंक थोडें, थोडें...
तुका मनांतल्यान
तरीय आसलो सखोल इच्छिन. नारी रहस्य हें खरेंच अद्भुत.
अजून म्हज्या गा लक्षांत येना,
प्रेमभाव हो गुपीत जागृत म्हाका धाडटा तुज्याच फाटल्यान
उदकावरी तूं खळखळ निर्मळ मन भुलोवणी; हांवूय बुडिल्लों.
पूण नातें व्हांवत्या रगताचें
पडली ना म्हाका ताची विसराय केन्ना.

म्हजे कवितेंतल्यान दिसपी अशी ही प्रेमरस गीत.
परतून, परतून म्हज्यो कविता तांतूतल्यान घेतात जल्म. सुक्या सडसडीत वास्तवाक ही
गूढताय करून सोडटा.

आंल्या-चिंव थळांत असल्या भिजून घेवपाक भिरभिर कवीमन फिरता.
असल्या प्रसंगी नवें गिन्यानूय अभिज्ञानशें थारता.
सतान भारून शब्दप्रेमी मन कवीचें जुळ, जुळ, जुळटा.
प्रेमशून्य जग पुराय उरता नरक
उपाट भरिल्लो,
प्रेमूच ना जंय ताका म्हणचो कसो सर्ग नी कोण म्हणचो.

होच विचार : म्हजें नशीब तूं.
खंय तूं हंडटा सांग. तूं आसूं दी खंय.
इतलें मात खरें : जाय तूं म्हाका, आनी कांय नाका....
अमेरिकेच्या मुक्कामाक जालो ना रहस्यभेद.

तूं आनी कन्नड भास हेंच दोळे खरे अभेद.
भारतभुंयेचेर दवरतांच पांय मनोमन आयलें कळून. शेणयलें कितलें आनी कितें?
आमच्या विरहानूच नव्यान जिवीत आयलें समजून.
हांगा थंय हंडपी जिवाक आयलें नवें ज्ञान...

मायावी धनाचो सोडलो नाद.
गिळून उडोवपी फुटलो भोंवर.
एक दोळयांच्या सरखेसाची चुकोवन नदर
फटकिरो कमळदेशूय सुटलो.
अन्नदेवतांक पळ्ळों सोडून.
कपलाचेर दोळो आशिल्ल्या भयानकान मुक्त म्हाका केलो.
हांव केन्नाच ऑडिस्युयस जालोंना, पूण तुवें जावन पेनलोपी
आयलों, आयलों.
तुजेलागी आयलों. मनांत उसळल्या अफाट खोस
म्हज्या तळव्यांक जालो स्पर्श
म्हजे मायभूमीचें क्षमाशील मातयेचो मोगाळ स्पर्श
म्हजे जाल्लें लुम्कान कळळें म्हाका आनी कन्नडांतूय आयली नवी उर्बा
म्हजे स्वागतशीलतायेन घेतलें सामावन आपल्या सुटिल्ल्या पोटाक

गांधी बाजाराच्या गाळयांत थाटलो हांवे पसरो पुस्तकांचो.
तीन म्हज्या जिवा-भावाच्या इश्टांचो.
ही जाली सुवात आमकां बरोवप्यांक एकठांय येवपाची.
वृत्तपत्र प्रसिध्दीन तर हे सुवातेंत फुंकलो नवो प्राण !
कवीसंमेलनाचे कार्यक्रम जाले हांगा एक-दोन.
हेच सुवातेंत लागलें घडूंक नव्या पुस्तकांचें प्रकाशन - अवतरण.
दिवपाक पालव कन्नड-भाव आयले धांवत पयसुल्लयान.
पळोवन तांची मनाची गिरेस्तकाय - जाले आमी सदांकाल कृतज्ञ.

आडिगा, शिवरुद्रप्पा आनी केन्ना केन्ना नरसिंह स्वामी
मेळटाले म्हाका येवन आमच्या जाग्यार. श्री मास्ती आनी राजरत्नम् आयले म्हाका भेट दिवंक.
वी. जी. एल. स्वामी आमच्या कोंडाळ्यांत भरसून गेल्लो सामको.
हें दुकान म्हजें तंवाकूच्या दुकानाभाशेनूच आसलें.
कर्ज हांव काडटालों. कितल्याश्याच जाणांक पुस्तकां दितलों.
कर्ज गेलें फुगत. कांय लोकांनी दिले दुडू पूण ते नासले चड. आवडीचें दुकान म्हजें निमाणें जालें एक श्राप विचित्र.
अनवळखी कांय लोक आयले थंय घालून म्हाका मोटारींत
आपले वांगडा घेवन गेले.
सदांच उगडास असो जेवणाखाणाचो केलो बेत
आनी नमळायेन म्हाका केली विनंती.
आपले बाप्पको प्रकाशन संस्थेक नामना दिवपाक मागलो आदार म्हजेलागीं
हांवें फक्कत देखरेख करची इतलेंच पसायदान तांणी म्हजेकडेन मागलें.
पयलेच फावटीं म्हाका कोण विशेश मानून म्हजेलागीं आयले.
मागनासताना नोकरीचो आग्रो करून सन्मान करून गेले.

आतां कन्नड हवेंत घेतां स्वास इतलें दिसता सुख
मोग करपी मनश्यांच्योय हांवें देखल्यो मोग करपाच्यो विविध परी,
प्रेमावांगडा आदराचोय केलो म्हजेर वर्षाव जायजायसो.
हांवें जें केलें दिलें तें हाडटां कवितेंत कागदार ह्या.
तशें म्हळ्यार खूबच आसलें थोडें.

उर्बेचें अप्रूप कारंजें मात अखंड उसळटालें.
आत्मशक्तीचो भाग असो रावचो येत.
मेळटा ताचेपरस दिवंचें चड.
नित्य असो चिरचो धडो.

# सर्ग - 19

*कवी आनी ताचे सखीचे कवितेक लागून झगडें :*

''आपलेचविशीं तुवें भरपूर बरयलां :
तूंच निवेदक. तूंच जाला केंद्र विंद्र पुराय. तूंच कथानायक.''.
''क्षीण हयन्हयशी सांवळेवरी पार्श्वभूंय तितलीच म्हजी. स्फूर्तिदेवी !
तूंच म्हाका चित्रिक करता दिसपापुरती!''
अशेंच विचित्र म्हजेंविशीं मत तुजें सदाचें.
दिसना काय हें म्हाका?
तंबोऱ्यान दिवची साथ.....हांवूय करीन गायन उन्मन.
तुवें तर गावपाचेंच दिलां सोडून.
वीणा लेगीत शिकलीना तूं.
हांवेंय गांवचें वरोवंचे न्हय...असो न्हय मू हेत तुजो?''

''अशें कितें उलोवन म्हजें उलोवपूच बंद करतात तुमी...
हेंच करीत आयल्या तुमी परतून, परतून.
उलट सुलट युक्तिवादान वाजी मारप तुमची संवय,
तोंड शिंवून गप्पूच बसप.
दिसता म्हाका तुमकां इतलेंच जाय.''
''आजमेरेन सांगलें तुवें, म्हाका सांगप जमचें ना :
इतलें. इतलें सांगचें असा सगलें आयुश्य पुरो जावंचें ना.

सगळें, सगळें आयलें कवितेंत,
म्हाका जें तुवेंन केलें अर्पण, कविता ना गे वेगळी :
तूंच साक्षात् कविता.''

''अशी पत्नी मेळ्ळी तुका....
नशिबवान तूंच रे खरो!''
भविश्यवाद्यान सांगिल्लें तुका, सांगलें किंतें खबर आसा? बाकी सगलें किंतें आसलें फटी.....
एकूच सत अटळ खरें.
म्हणटाली तूं : ''खंयची गजाल?''
अटळ किंतें आसा सांग म्हय ! कांय क्रियापदां लयीखातीरूच येतात.
जेन्ना आमचें चुकता वर्तन
तेन्ना सूर बदसूर जातात विसंवादी.
''हें पळे! जें विचाल्लें हांवें, तें विसरपाचें केलें सवंग.
आधुनिकांनीच ना काय केल्लें, लय भंगूनच वेडेमानी?
तुका उलोवपाचें आसता, तें सोडून हेरूच उलयता.
दुसरें किंतें सांगूंक छेडलो विशय? सहजूच तें नाकारता?'' ''हांव जें किंतें
उलयलां तेन्ना : तुमचें वागपूच वेगळें आसता, आमचो दोगांचो चुकता ताळमेळ
तेन्नाच अशें वेगळेंच जाता!''
''अशेंच काय म्हय गे प्रिये! जोतिशी सांगतलो फटी. म्हणटालो
''तुजे बायलेसारकी पत्नी आसचीना कोणाचीच''

''धन तुमची ! केन्नाय पळेल्यार तुमी सदांच अशें आसतात वाऱ्यांत.
नव्या संकळ्या युगांत उपरोधाचो वापर आयल्या शिकून!''
''आगेबाय कवितेपासत तर हांवें देख घेतल्लो वेद्रेचो''
ताळळी जाणे कलागत...
ताका जमलो बरो सुसंवाद !
चल आतां, त्या 'करटक' नांवाच्या सुंदर खळ्यांत वचूंया
वागेंतल्या त्या धबधब्यांच्या पुनप्रत्ययांत वचकळून येवंया !
माडयेक गुटलायल्लो मिरवेलीचो
नक्षीचो फ्रॉक पळोवन येवंया.''

आनीक पळोवया :
पुन्वितायाच्या पिशोला भाशेन
शेंकड्यांनी जलरंगी चित्रां आजापाचीं
येतलीं अणभवतकच निर्मितीक्षणाची असंख्य सूत्रां !
लवंग, नाल्ल, वेलची आनी पाल्याच्या रंगधुंद रंगांची
हात्याच्या उन्मत्त फूलगंधान पिसावन चडपी नागसर्पाची
रातच्या वेळार आयकत रावया धबधब्याचो सतत गाज.
भर दिसा थांबुंया नियाळीत हांगचे जायते निसर्गविभ्रम !''

# सर्ग - 20

*झगड्यांविशीं कवी वाचप्यांक सांगता :*

इश्टांनो !
तुमी जें कितें आयकलां, तो फक्कत एक नियाळ.
जें जें कितें घडलें
तो जमाखर्च हांवें बायलेक सादर केलो.
दिसता तिणें पोरणी पानां उगडासाची चाळून पळोवची.
सगळी खळमळ वच्ची धुवन आनी फुलचें ल्हार स्मिनहास्याचें.
हांगाच थांबात!
पयसुल्लयान नियाळात सख्यभाव
आनी दिवप - घेवप, पडझडीच्या वक्तार एकल्यान दुसऱ्याक घेवपाचें सांवाळून.
तुमी हांगा आसात देखून तिका हांगा बांदून गवचे पडटलें.
देखून म्हण्टां : मात्शें पयस वचून हांगा नरी थांवा.

राग हिचो तर असो विलक्षण कोणाक खबर ना.
सूर्याचो भाव धगधगपी, असल्या वेळार म्हज्या अस्मितेच्यो शिमां-मेरें वेंतात
करपून...
प्रलयंकारी अग्नी धगधगता भोंवतणी त्या वेळार गोंदळटां हांव,
जातां अजापित :

असलो कसलो राग असो हां? ज्वालामुखीच जाल्या ती...
लोळ विजेचो फेकीत करता स्वाहा...
कोसळून पडपीशी बिजलीच दिसता,
वडवानल दर्यांत गडगडून सगलें विश्वूच हालता, थरथर भूंयकांपांत.

म्हाकाय कळटा, तुमी म्हण्टलें "अगडप आमचो सभाव.
येतात पळोवपाक आनी आयकुपाक.
जिवीत आमची रंगमाचयशी चालता नाटक.
म्हाका आवडनात रितीं केदलां नाटक घरांत...हें विश्व म्हळयार रंग-माचय. नट म्हळयार नर-नारी."
शेक्सपियर सगल्यांक आसा खबर
"आमचें नाटक करतात आमी.
प्रयोग बेगीन जावंचो.
अभिप्रायाक रावतात
मागीर तुमचो अभिप्राय धाडचो."

मोगाळ आयकुप्यांनो. मोगाळ पळोवप्यांनो.
समाज म्हळयार तुमीच.
विवाह नियमावली तुमीच केल्या प्रसारित;
तुमीच करतात सगळें.
तुमच्या लिखितांचें पालन करपाक तंतोतंत
आमी कश्टतात, तरीय कळना आमकां कितें चलता तुमच्या मनांत. ग्रीनरुमांत वर्तन आनी
मार्ग वेगळे फक्त आमचे
तुमच्या मुखार दिसतात तुमकां जग तें - वर्ख काडिल्ल्या रुपड्यांचें !
जाणून घेवपाक आमी उत्सुक
- कसो न्याय तो दिलो. नट आसताना आमची भूमिका कशी कितें मानली तुमकां?

# सर्ग - 21

*कवी आपली कुटुंबिक जीण आनी मर्णाविशीं उलयता :*

लग्न जाल्लें गा मठांत आमचें
सेंट मेरी ओशिपतालांत जाल्लो पयल्या दोन भुग्ग्यांचो जल्म.
तिसरें आयलें जल्मा, "घोषा" नामक ओशिपतालांत.
तीन धर्म तीन मुळांवरी आमच्या जिवितांत आयले वाट पळोवपाक हांव थंय रावलों
तीनदां बसलों ओशिपतलांत.
आनी प्लुटोन युरायडिसीक लायली परतून.
सोमान दिलें गंधर्वाक आनी ताणें दिलें अग्नीक.
अग्नी जालो मोगाळ दातो,
कंकल घडोवन सोंपयली म्हाका. दर्या जालो गोड जलाशय...गोडूच आमच्यापासत म्होंव्यो जाल्यो सगल्यो वाली.
दोन मुखांचें पात्र उखललें मेळून आमी असल्या काळीं.
फक्त म्हजीच जाली तूं प्रिया त्याच दिसाच्या त्या क्षणाकाळी.
"जामी" आशिल्लीच. भयणीभशेन ! जाली भार्या म्हजीच "जाया".
जावन प्रीत तो घेतलो जल्म आयलो तुगेले कुशींत.

गर्भाशयांतली हुनसाण. काळखी सोडून आयलों जगांत.
प्रसन्न. मुखदिणो उजवाडांतलो घेवंक वास शिकलो हांव. आवयच्या लोळप गांपांत.

करप क्रीडा मांडयेर. काळखांतले ते दीस मजेचे आठोवन ओंठ फुलतात. “सोनू”,
“माणकुल्या” म्हळें तुमी गा. “मिडास” थारलों तुमचो.
अपुर्बायेच्या पिशांत तुमच्या भुरकुटलो हांव मुरगुटलों.
नेम सृश्टिचे कळून जालों सुवर्णशरिराचे पलतडी.
प्रेम गवलें उबें : दिसलें तेमकूच भांगराचें.

फळ तें आमच्या सहवासाचें. निर्णय तुजे व्यथेचो, घर भल्लें तीन भुरग्यांनी,
अणभव गोकूळाचो उसगं आयलो तरी “अपूर्व” बंधन आमच्या दोगांमदलें
परिशिष्टूच पूण घडून गेलें काम जिवितांतलें.
आमचें मीलन थारलें कारण प्रवेश नव्या जिवांचो,
चडटो, वाडटो अणभव थारलो मोगाळ आतिश्यायाचो,

संभ्रमांत आदी आसलों, भिरांत गेली आतां,
भिरांत आमची सरतकच दिसलें सपन दुसरें फुल्लेलें !

म्हाका याद येता. पावस येता. पानफुलांनी भरता सत्वर परिसर.
चांफ्याची घेवन फुलां आमी सजयतालीं भाड्याचें घर.
जावन खोशी आनंदान वेंचताले आमी गारो,
एकदां तोंडांत घाल्यार मागीर कितलें म्हणून थंय, थंड.
इतल्यांत पडलो मरून वयल्यान पुट्ट करून कावळो एक.
आक्रित असलें पळोवन ताका भिरांत जाली. जाणीव जाली मर्णाची !
देखून पावसांत भिवंक लागलो तो.
मृत्यू गेलो कावळ्या-रुपान,
दिवन भेट त्या वेळार !

जल्माक जरी ताच्या आतां वर्सां जालीं तीन
पावसांत ताका व्हरतां उखलून सत्री वयर धरून.
जायते खेपो भोंवलों असो,
ल्हव ल्हव करून ताचीं मर्णाची भिरांत ना जाली.
उगडासांतली ताची खिणां भरून गेलीं.
ज्युली सुण्याचें, आनी आजयेचें मर्ण ताणे पळेलें.
सरस्वती आजयेचो उगडास ताका हालोवन गेलो.

दादा आजोबा आसलो पुलीस अधिकारी.

तो म्हळ्यार इतिहासूच जडगुळो.

कितल्यो सोडल्यो फाटीं असल्यो यादी, असलें उगडास.

विसरायेच्या लोटिंग्याक लेगीत फुट्टात नवीन पानां.

हळडुवीं पानां गळून पडटात

पाचवीं पानां थंय हांसतात, सदां काळ हो सरता फुडें : कांयच थंय रे उरना.

काळाक केन्ना अंत ना. मृत्यू हें कारण एक. पदार्थाक करून अंतहीण शक्ती ही खेळटा.'

# सर्ग - 22

*कवी आपल्या लग्नाचो रुप्याउत्सव मनयता :*

दाम्पत्य न्हंयच्या पात्रांत व्हांवता प्रेमाची ही नौका.
आमकां कळटा प्रवाह व्हांवता. खंयच्यान आनी कसो?
खंय खंय भोंवरे, खंय खंय तळपां निबर, हुंवार जाता पिसो,
जेन्ना येतात देगेर आमी, उगडास येता भुरग्यांचो.
फेणेर-ल्हारां खळवळ करतात तरीय वेतात तरून,
आयुश्याच्या भव्य सागरांत विहार करतात आमी.
ऊंच उसळट्या ल्हारार
आमी अशेच रावतात हालत
सांवाळपी तें समुद्रदेवत मोगाळ परिचय दिता.

म्हाका संगोपन भुरग्याचें. जेन्ना जाली पयली कन्या,
ती थोडी जरी रडली तरी चडटालो रागाचो पारो
जेन्ना हेंच कपडे जाय असो हट धरताली,
तेन्ना कदर करीनासताना बालमनाची वडयतालों तिका,
दिसतालें म्हाका. चलचें तिणें हांव सांगतां तशें.
हांव अहंकारांत बुडलों आनी माणकुलेक ख्यास्त दिली.
एक दीस तर इतली बडयली मरमेरेन. सामको भियेलों, घाबरलों.
मागीर जालों शाणों वशिल्ली म्हजी वाचा.

प्रेमबीज जरी दिसलें धाकटें : आंकुरता, येता वयर,
दिसादिसाचें तेज प्राशून पाचवेंचार जाता.
गुर्वेचं गे प्रेम तुजेवयलें विश्व प्रेममय दिसता.
तिळातिळान गे प्रीतीच वाडटा ती. नात्यांचें मूळ रूजता.
वाडटा, वाडटा प्रेमाचो हो वटवृक्षच पातळटा.
पारंब्याचे रुजोवन हातपांय वाडटा तो वेता.
चारूय खांदे तुटले तरीय गा विशेश तांतूंत किते?
ह्या विराट वटवृक्षाक आफुडना भयकारण मर्णाचें.

घालून घेतलो तुवें व्हडले खोसयेन.
दिसना म्हाका भिरांत. कित्याक जातलें गीत अळणी म्हजें?
गायन छेडपाक तयार जालों;
तूंच जाय म्हाका सखे साथीक.
तयार जा तूं आनीक यो गे. गीनांत सूर गे मेळोवपाक.
आमचे मजगती हो गे संकेत, कवयित्री प्रतिभा तूं जावची अवीट तनमन भरपी त्या सामगायनाक छेडचें तुवें !
नयन उक्ते जातले.
उडलो स्वर तो आस्वादाचो सूखशांतीन.
म्हज्या दाम्पत्यगीताचो तोच खरो उपहार.

जीवनदाम्पत्याचो जाता आतां रजतमहोत्सव.
घाटाचे चडटेचें मोडण भयांकृत सरलां.
हुपून रजतमार्ग कविता भांगरवाटेर आयल्या कवितेच्या हारश्यांत
आमच्या सख्य प्रीतिची प्रतिमा दिसली.
प्रस्फोटित जावपी वचनां विरपाची ना भिरांत ताका.
"यामा" मदल्या संदेशाच्यो वाहक ज्या ज्या दोन अस्तुर्यांक !
आमचे नाक लावपाक जे जे येतले त्या लोकांक एकामेकांचे तोरवणायेन बुडून जावंदी खुशाल तांकां.

जेन्ना आमी आसलों दादून एकामेकांचो नाश करपाक
केन्ना कन्या तर केन्ना पूत जातालो कारण आमकां सांबाळपाक.

भुरगीं आमचीं खऱ्यानीच गुणेस्त, सुटल्यो आंवळलेल्यो गांठी
राग, हट ह्या भुतांनी आमकां धल्लीं आनी आमकां केलीं छिन्नभिन्न कडकडपी झोटिंगान किळची मारून ओपलें तेल.
भुग्गीं आमचीं काळजीदार देंवचाराची केली तांणी फजेत. देखून आंज हें शक्य जालां.
रजतजयंती साजरी केल्या.

# सर्ग - 23

*आपले चालू भानगडींविशीं कवी अंतर्मुख जाता :*

जो येवपी काळ फायचो आजूच लागलो येवंक.
पोरणो दिसता आयचो दीस. ''काल'' भुताचो भाव.
विस्मृतीच्या झाडाचीं हळडुवीं पानां पडलीं झडून.
काळाच्या आंघांत तांची माती माती जाली.
उरिल्ल्या दिसांचें वेटकीक तें वंधन.
आत्म्यान गोंसलें. विवेकानंद ताचेंच आयकता क्रंदन.
मानवतेच्या कल्याणापासून आत्मो झुजत रावता
''मानवता'' हें उतरूच उरलें नर्गाय सपनां देखता.

अस्पृश्यतायेचें रक्त तें लागलें मातूय अजून ना जालें उणें.
गांधी गेलो. गेलो विवेकानंद : आंबेडकरूय जालें पुरे.
असंख्य आसतात रंग पिशेलां :
कसबी, कुशल कलाकार.
पूण. प्राचीन व्यवस्थेतलें वर्णभेद ना जालें.
''सहनावतु !'' मंत्र सांगून द्रष्टे ते गेले.
द्वेसाचें विखाळ रसायण : अजून जळटें उरलें
अन्नाब्रह्म म्हणटात. सांगतात ताचो महिमा
तरी जायते जाण किळच्यो मारतात.

"भूक, भूक" म्हणून.
तरी कोणाक कांय दिसना.

परतून आमी उबारूंया शारां नवी.
येवंचें तुमी सगळ्यांनी, धर्तरेलागीं जोडूंक नातें फुडें, फुडें सरचें तुमी.
दरएक कुटुंबाक मेळचें :
सोवीत सुंदर घर, खावनपिवन सुखान गवचीं मनशां घरांतली.
आसची घरांच्या भोंवतणी पाचवीचार रुखावळ
माणकुल्यांक खेळपाक, भोंवपाक आसची सुवात शेकानशेक.
सूर्याच्या उजवाडा मन आनंदी दिसा.

रातचें चांदण-जेवण आनी आसचो मेकळो गुरगुरपी मस्त असो सुणो.

शासन मानता आपलो पयलो हक
करचें लोकांचेर राज्य.
तरी गिन्यानी मनशांक दिसता, जनतेन अपरिहार्य थारचें.
दर नव्या सरकाराक दिसता, पयल्यापरस आमी बरे,
मागीर उरता खंय रे बाबा उरली सुरली नैतिकताय !
सर्त ना मोगाक, सर्त ना मोगाक - चलता सर्त फक्त चलोवपाक अखंड आपली सत्ता.
ना गा संवसार सुदारपाक.
संवसाराचें कुडके करपाक आसा तांकां क्षमता !

उद्येगीक तंत्रांचें जाळें -
तांची सत्ता वाडयत दवरता सर्त तांची;
आनी सामान्य मनशाची जाता फजिती. सर्त दुर्लक्षांची, असहयोगाची,
जे अविचारी, जे अविवेकी त्या वलदंडांची.
हेरगिरी, बाजार भयानक विध्वंसक शस्त्रास्त्रांची.
करून निर्मिती तांची त्या त्या अमानुष्यांचो स्त्रीपुरूष्यांची यंत्रां करची.
ना भावना, संवेदना ना..
"कशें जियेवप नाच शिकयलें"
अशीच कुस्की आमची यंत्रणा.

विचारशील हो मनुष्यप्राणी ॲरिस्टॉटल म्हण्टालो. आदल्या काळात. एम्. एन्.
रॉयची तशीच श्रध्दा ! नावां जी तुमी आतां आयकलीं :
तें सपनांचेर जियेवपी समतावादी कार्ल मार्क्स जगीं नेवीं सपन पळोवपी.
"विरपी सपनां पळोवप इतलेंच आमच्या नशिबांत?"
हीच चिंता आयली वाट्यांक सपनाळू ह्या मनशाक.

# सर्ग - 24

*कवी आत्मनिवेदन करता :*

''हांव कोण? कोण हांव?''
सदांच उरता प्रस्न हो. जायत रावता
केन्ना, केन्ना आसतां कवी हांव,
कोणाक वळखना दुसऱ्याक.
केन्ना, केन्ना, पती, पुरूष, बापूय आनी शेजारी,
शिक्षक, पुत्र, बंधु आनी केन्ना तुजांच उरतां प्रेमी. तरेक तरेचे गांव :
कलासा, शिगलकोप्प, सोगवा आनी गोंय. मुंबयचो?
काय अमेरिकेचो! म्हाका अमेरिकन कित्याक म्हणचो न्हय !
''नाका, नाका, निक्सन नाका''
बोगीच सांगलें खरें धरूं नाका.

कोणी तरी वेगळोच हांव आसतलो.
दुसरोच कोणतरी ''नाडिग''. द्वैतानुभव हो ताचो अनुभव भयद भाव हो सगळो.
करतां गजाली मार्गदर्शन घेवन वांगडा भोंवतां. ''संवसारांत हांव फक्त बोंबाडो'',
अशें म्हळ्यार तो म्हण्टा अशें :
''खरें, खरें तूं. भासाचें हें अस्तित्व हें भरवंसो नासतना दुसरें कांय.
जावन हताश हांव चलतां. वेतां कितल्यातरी सुवातांनी.
सत तें दिसचें उगडें, नागडें - म्हाका सगल्या सुवातांनी.

# सर्ग - 26

*कवी आपलें गीत आपले सखीक आनी पैमुल्या स्थलांतराविशीं सांगता :*

उगडास जाता तुका?
तरणाटो तो तुवें पळेल्लो सांग कसो दिसलो?
तो आसलो तुका राखपी ! तुज्या आवय-बापायपसून घेवन तुका तो गेलो
आवयचो विसरपाक हुस्को कारणीभूत तो जालो.
उक्तें जालें विश्व नवें:
उम्यांच्या वर्शावान खंय गेलो तरी बांदलो तुजेलागीं आत्मियतेन.
सदांच उरलो इश्ट तुजो तो.
जल्मो-जल्मी दीसनी राती तोच तरणाटो
तुजोच साथी सप्तपदीचो सदां सदाचो !

मंथरलेले आवेगाचे खीण उद्दाम ते. गेले खंय ते?
जीवन आरंभाचे उर्वेभरीत उमाळे गेले खंय ते ?
गुपीत समजपाक पुरो एक ल्हानशे नाद-ल्हार,
सलज उच्चारून शब्द तो.
स्वीकारपाक सगलें तदरूप जाता एकामेकांत
आयुश्याची मृदू लयकारी. तशें रहस्य तें देहवीजेचें नश्टूच केलें त्या तेजान गा::
अंधारचें जड. जड अस्तर. शिंपयांभाशेन
ओठ उगडटात पूण सदांच मागीर मोती झरतात.

शय्या त्या मोतयांची तेन्ना : मोव, मोव-कितली
उगडास जाता !

अखंड चलता संवसाराचें नित्य चक्र हें,
काळ-समय हो फडफड धांवता.
"आमीय आसले तरूण, तरणाठे."
फाटलो वेळ हो थारता. आयचीं देखून तरूण जोडपीं, दिसता कशें तें आतां?
अणभवी जातकच उलयात.

आयकूंया तुमच्यो फटाशी !
पळोवंया दर्यादिगेर प्रेमगतीक,
रामसीतेकूय धाडूं थंयच.
आड पडिल्ले मदनरतीक.
मासोळीच्या दोळयाक वेधून, लक्ष्य प्राप्त करपी अर्जुन पांचालीचें स्वत्व खरें तें पांडवांक तें विवाहबंधन.

थंयच दिसतल्यो रंभा भोंवतांना. सांगताक कमनीय उर्वशी.
तांच्या फाटल्यान जावन मोहित यक्षकिन्नर ते करतात गर्दी.
थंयफुडें वालीच्या सांगतांत दिसता ताची तारागणी सुग्रावीच्या सौम्य रूपान गा पावल तिचें तें मात घसरता.
अशेच आमी जायत दुर्लक्षित आनी थोडे काळखांत पूण नश्ट जांवचे नात केन्ना आमी!
पिशे अस्तुरी तुका कळना हें?
कोणा कोणाच्या गर्भाभितर भरसून वच्चें? कोणा कोणाच्या स्वासाभितर.
हे मातयेर रे आनी तणार ह्या परतून जल्मूं.

व्हिटमनान म्हळां : आमी केन्नाय जांव शकतात बुटापोंदचें तण, धान्य, नासणें,
नुस्तें वा आमी येवं परते कुळ्ळ्यो जावन.
शारांतले गर्दीक आमी वळखतात, तरीय आमी रानाचे.
भरसून काळांत आमी अंतरिक्षांत वेतले.
परतून, परतून वळख पडटकच भेटूं आवेगान,
तेन्ना म्हजें हांव नवें गातलों गीत उमेद आनी उर्बेन.
जें मान्य आसा काळाक तेंच उरतलें.
हो काळ-वेळ धांवता.

# सर्ग - 25

*गीताचो फुडार आनी बायलेकडल्या संबंधाविशीं कवी सांगता .*

तुका विसल्लों हांव म्हळयार म्हाकाच विसल्लों हांव.
फायचे लोक वेतले विसरून आमकां. सहज अशें
पूण जे कोण घेतले ह्या गीताच्या मधुरसाचो सुवाद
केन्नाच ते विसरचेनात दितले सदांच दाद.
तुका सांगतालों आमच्या दाम्पत्याची गाथा.
तांतूतली काय खाशेलपणां कांय विकट गजाली
पांशगाविशीं तूं सदांच आसता जागरूक
विवाहीत म्हजें जीवित तशेंच अविवेकाची भरती

पुराय अनवळखी आसलीं आमी
एकामेकांक तरीय आयलीं लागी
स्वगत भाशणां दिलीं भिरकटावन मागीर जालों संवादी
एकसुरेंपण म्हळ्यार काळोख जसो.
तांचेलागीं सदांच झुजप आमचें जालें दिस दोन.
ह्या काळखाक उजळावन सोडप. दोन दिव्यांचो उजवाडूय एकतत्वांत मेळो
जरी दोगांय उलयतालीं अर्थ एक येतालो ताका विश्वूच सगळ
'हेंच तें प्रेम' दिता नांवूच ताका हें.
दिसपट्टें जेवणूय रुचीक.

दीस रात आगळीच एकामेकांक नियाळपाची अप्रूप गोडसाण.

रडप कित्याक?
जें कितें घडलें आनी घडलें ना.
सरून गेली पिराय अर्दी...जें कितें उल्लें तेंच पळे तूं.
उरता ताचोच भविश्यकाळ खबर ना आमकां.
करून निश्चय टाळूं आमी जें उपद्रवी दुसऱ्यांक
घर आमचें जरी व्हडलें आसलें, तरी खंय मेळटा एकान्त?
म्हणून म्हाका सदांच अशी ही दिसा सपनां
असलींच सद्या सुचतात आनीक दुसरें कांय ना.
मोगाचो आनी तारूण्याचो क्षय केन्ना जायना.

एकल्या एकल्याक वनवासाक दिलो धाडून.
एकसुरेंपण खंय तरी ताका असह्य चेपून दवरतलें.
अरण्य "हो हो हो"च्या किळच्यांनी अरण्य कांपतालें.
"हो हो, हो"च्या गूढ प्रतिसादान परिसर भरून वेतालो.
दोंगरचेर, दोंगुल्ल्यांचेर ह्या पडसादांचो कांप भिरभिरता, भागवन वेतात...
देंगणां, गाळी : मूर्त जाता कविता. आयकल्यात तुमी ते पडसाद?
तो रहस्यमय अणभव. वरदानूच तूं! म्हजी थारली हेंच अप्रूप घडलें!

भुरगेपणांतलें सांजवेळचें आठवता म्हाका हेंडप,
पाचवेंचार तण शेकानशेक देंगण.
भितर, भितर गेलों. तेन्ना जें देखलें हांवें अजून म्हाका तें दिसता.
चमत्कार अणभवलो आगळो.
अस्तमतेचे एके दिशेक सूर्या अस्तमपी,
पूर्ण चंद्र बी उदेंतेकडेन वयर, वयर सरपी.
पूर्वा जाली पश्चिम, पश्चिम पूर्वा जाली.
तशेंच जालें आमचें
म्हजी तुजी ही मैत्री जाली.

नियाळून घे शब्द बीजांक ह्या,
सदांच दिसता नवें नी वेगळें.

पयली येता झाडार आंकूर:
मागीर फुलता. मागीर येतात म्होंवाळ फुलां.
बियांच येतल्यो फुलांतसून ह्या :
तांकांय येतले आंकूर. तांकांय येतलीं फुलां.
केसाक माळटकच सोबीत दिसतले तुमचे केंस.
,करीत आमता पोशण आपल्या दिव्य सृजनशक्तीचें.
ईप्सित ताचें पयस चड पयस - थंय कशें वच्चें सांग !

''नशीबवान तूं इश्टा'' म्हज्या मित्रान बरयलें म्हाका : 'उगमावयलें उदकूय गोडें पिवन आयला तूं !''
आठवतात पत्रांतल्यो वळी..... हरूय लिखाण आठवना.
मूळ स्त्रोत जळ. आनी लागसार फातरा. फातरा गंगो.
नेटान उदक उसळूंक सोदता. फातर आडायनात ताका लागून मनांत उसळटात विचार सत्वर
दर्यात सूर्या बुडटा : सळसळ. सळसळ पडटा पावस.
धर्तरी घेता कुशींत. खंयच्यान फुट्टा धुंवर.
साक्षात मेळटा अस्तित्व म्हाका.

''दाम्पत्यान'' स्मृतिरूप जावचें देखून गुंथलें ताका.
तें कानाकानार वच्चें देखून केलो सतत प्रयास.
मानस जरी कामातूर कळटा मर्यादा नादाची.
वेनलो अर्पून मनाक शांती. हे कवितेंतील कलाकृती.
कितलीशीच रहस्यां तुमकां करतली खोशी.
मनाक म्हगेल्या आसा खात्री सगल्यांक गुंगयतली गीतमैत्रीची ही सग्नि:
समजा हीच म्हजी प्रार्थना. स्वातंत्र्यूच हें म्हजें.
जाणा जायात, मेकळी व्हांवता कविना.

# सर्ग - 26

*कवी आपलें गीत आपले सर्खीक आनी पेंसुल्या स्थलांतराविशीं सांगता :*

उगडास जाता तुका?
तरणाटो तो तुवें पळेल्लो सांग कसो दिसलो?
तो आसलो तुका गरवपी ! तुज्या आवय-बापायपसून घेवन तुका तो गेलो
आवयचो विसरपाक हुस्को कारणीभूत तो जालो.
उक्तें जालें विश्व नवें:
उम्यांच्या वर्शावान खंय गेलो तरी बांदलो तुजेलागीं आत्मियतेन.
सदांच उरलो इश्ट तुजो तो.
जल्मां-जल्मी दीसनी गती तोच तरणाटो
तुजोच साथी सप्तपदीचो सदां सदाचो !

मंथरल्ले आवेगाचे खीण उद्दाम ते. गेले खंय ते?
जीवन आरंभाचे उर्बेभरीत उमाळे गेले खंय ते ?
गुपीत समजपाक पुरो एक ल्हानशें नाद-ल्हार,
सल्लज उच्चारून शब्द तो.
स्वीकारपाक सगलें तदरूप जाता एकामेकांत.
आयुश्याची मृदू लयकारी. तशें रहस्य तें देहबीजेचें नश्टूच केलें त्या तेजान गाः;
अंधाराचें जड, जड अस्तर, शिंपयांभाशेन
ओठ उगडटात पूण सदांच मागीर मोती झरतात.

ग्या त्या मोनयांची तेन्ना : मोव, मोव-किनर्ली
गडास जाता !

खंड चलता संवसाराचें नित्य चक्र हें,
काळ-समय हो फडफड धांवता.
"आमीय आसले तरूण, तरणाठे."
म्हटलो वेळ हो थारता. आयची देखून तरूण जोडपी, दिसता कशें तें आतां?
तणभवी जातकच उलयात.

आयकूंया तुमच्यो फटाशी !
वळोवंया दर्यादिगेर प्रेमगतीक,
रामसीतेकूय धाडूं थंयच.
आड पडिल्ले मदनरतीक.
मासोळीच्या दोळयाक वेधून, लक्ष्य प्राप्त करपी अर्जुन पांचालीचें स्वल्प खरें तें
पांडवांक तें विवाहबंधन.

थंयच दिसतल्यो रंभा भोंवतांना, सांगताक कमनीय उर्वशी.
तांच्या फाटल्यान जावन मोहित यक्षकिन्नर ते करतात गर्दी.
थंयफुडें बालीच्या सांगतांत दिसता ताची तारराणी सुग्रीवीच्या सौम्य रूपान गा
पावल तिचें तें मात घसरता.
अशेंच आमी जायत दुर्लक्षित आनी थोडे काळखांन पूण नश्ट जांवचे नात केन्ना आमी!
पिशे अस्तुरी तुका कळना हें?
कोणा कोणाच्या गर्भाभितर भरसून वच्चें? कोणा कोणाच्या स्वासाभितर,
हे मातयेर गे आनी तणार ह्या परतून जल्मूं.

क्रिटमनान म्हळां : आमी केन्नाय जांव शकनात बुटापोदचें तण, धान्य, नारणे,
नुस्तें वा आमी येवं परत कुळ्यो जावन.
शारांतले गर्दीक आमी वळखतात, तरीय आमी रानाचे.
भरसून काळांत आमी अंतरिक्षांत वेतले
परतून, परतून वळख पडटकच भेटूं आवेगान,
तेन्ना म्हजें हांव नवें गानलो गीत उमेद आनी उर्बेन.
जें मान्य आसा काळाक तेंच उरतलें.
हो काळ-वेळ धांवता.

# उपसंहार

अहंकारी जे तांकां हें विवाहित जीवन,
करता संवर्धन जीवनाचें, वाडयता वंशाक
स्वर्लोकाचें हें अमोल देणें, परतून रंगता खेळ,
परतून येतात मर्णालागी रक्तवंशाच्यो पेशी; येवंदी ताण,
आसू संघर्ष, आयुष्याक येता रंगत,
झगडें ना जाल्यार दिसता निरर्थक हें शांतीपूर्ण जिवीत.
वोत जाय जाल्यार तोडची नाळ ती परतून,
परतून रडपाची, वोत जर जाय आसलें तर
सोंसची पडटा मस्ती वर्षा रुतूची

हें अशें आयुष्य वैवाहिक :
भुरग्यापासत ही येवजण
मागीर भुरगें वाडटा, राखण करपाक बापूय रावता;
जितें जिवें तें बीज वंशाचें रावचें सदांच धांवतें
देखून मनश्याक वांदून दवरला विवाह बंधनांत.
हें जीवन म्हळ्यार तालमीचेंच मळ, थंयच रोवपाचें
जीवन-बीज, वाड ताची करता, करता दुसरेकडेन जुळपाचें !
त्यागाचें व्हडपण कळटा लग्नबंधनांत सहज,
समाधान हें तुमकां सांगता रावचें तुमी परिघांत.

आपलेबगर विकसनाचे सृजशीलतायेचो आसा मार्ग.
निर्माण करप एकामेकांक आनी भोगप सर्ग आपलो.
एकटेपणाचेर जाता मात पूण आपली अस्मितायेची जाता राखण.
तरी दरएकलो आसताच एकटो :
हें सतूय आयलें कळून ! आपणाक दिसता अशे,
"जगांत अशें आपलें अशें आसा कितें?
भयसीमांक हुपी-हुपीत रोयले आमी आमचे पांय.
एकामेकांक आश्वासून दोन थेंबे जाले एक.

अपेक्षांच्या रुखार सपनफूल आयलें नवें.
सर्ग काय नरक - मनशाच्या हातांत कांय जाणांक दिसता अशे"
"धांवडावन लावचो दुसऱ्याक सर्ग समाधानाचे म्हजेच पासत"
"म्हाकाच फक्त हें" हें सगलें विसरून वचपाचें.
अतिपरिचित आसले तरीय आमी आसतात नित्यनवीन
आयुश्याचें गणीत कळना थंय, थंय अशे अडखळटात.
पडटानाच मेळटा गिन्यान, "पडटा ताका हांसचें न्हय"
एकामेकाच्या आदारान आमी सांबाळटात एकामेकांक.

जायते जाण करतात अपेक्षा दुसऱ्याच्या प्रेमाची.
"दिवपा लागताआमकां दुसऱ्यांक" सूत्र केन्ना ते शिकतात?
काळजांत उसळटा प्रेमाचें कारंजें,
गाळजाक लागता भूक, ध्यानांत येता दरएकल्याक भावूकपणा,
कितली नाजूक दिसता, आपणेंय सादचें तांच्या काळजा लागीं मात्शें लागसारपण.
परतून, परतून सपन पळोवचें केन्ना ना
आमी सोडचें घुस्मटलो जरी असंख्य वेळा : दाव ना केन्ना मोडूं!

असंख्य घडटात प्रयोग
ताका विवाह म्हण्टात सगले, भोंवतणी व्हांवतात रंग जगाचे सगळे.
हें म्हणप भायर उडोवपाचें अर्थशून्य, हो न्हय प्रयोगनुभव.
पश्चातापीत दोन व्यक्तींचे विवाह म्हणजे जियेवप,
जे नासतात सोशिक कळचे तांकां खंयचे हुलप?

पक्वप्रीतिच्या जोडप्याक उरता भिरांत कसली जळपाची?
सख्य भावना, जंय त्याग ना थंय कशें करतलो संगोपन.
सख्य न्हय गा हें; जंय भिरांत उरता करपाक व्यक्तित्वाचे वर्धन.

तृप्त जोडप्यांसपासत आसता सुखदक्षणांची गोडी.
सार्त्रबरोबर सिमोन जियेली नासली ती अनाडी!
अक्का महादेवीचेंय आसलें कसलें बंधन अप्रूप!
मल्लिकार्जुनालागीं जुळ्ळें अंतर्यामीचें नातें.
शाश्वती आनी असंग जियेतात मेकळेपणान जेन्ना.
एकामेकांचें कौतुक करतात जेन्ना वेदिक काळांत विवाहबंधनांत ते जियेले जोशांत,
ध्रुवताऱ्यावरी चकचकलें दाम्पत्याच्या मळबांत.
सुर्वेच्या काळांत आसता सख्य मधुर विलक्षण.

चडत वेता नी वाडत वेता हें जैताचें लक्षण.
सुर्वेक जायसो आसता धपको जोडप्याक
ल्हवल्हवसो स्वयंप्रेरणा वेता घेवन ती शाश्वतीचे वाटेर.
दोनपणाचो अप्रूप अणभव जल्माक आमकां घालता.
येतात आमी घेवन मांडयेर नव्याच दुसऱ्या जिवांक.
भुरगीं मस्तीं आसतात थंयसर म्हातारपण ना येना.
चिरतारुण्य तें जावन देंवता, परतून जल्माक येता
उषा-उजवाडांत दाम्पत्याचें सुवर्ण जाता.

डॉ. सुमतिंद्र राघवेंद्र नाडिग, कन्नड भाशेंतले एक नामनेचे कवी आनी समीक्षक. म्हैसूर विश्वविद्यालय आनी टॅम्पल युनिव्हर्सिटी, फिलाडेल्फिया-अमेरीका हांगासर ताणी एम.ए.ची पदवी जोडली आनी बेंगळूर विश्व विद्यालयांतल्यान पी.एचडी. मेळयली. मुंबई विश्वविद्यालय, बेंगळूर विश्वविद्यालय आदि शिक्षणीक संस्थांकडेन तांचो संबंद आसलो.

1996 ते 1999 ह्या काळांत ते नॅशनल बुक ट्रस्ट, नवी दिल्लीचे अध्यक्ष आशिल्ले. कन्नड भाशेंत तांची कवितेचीं 11 पुस्तकां, समीक्षेचीं 8 जाल्यार, कथेचीं 2 आनी बाल साहित्याचीं 8 पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.

स्थानिक तशेंच राष्ट्रीय कवी संमेलनांत आनी परिसंवादांनी ताणी वांटो घेतला. तांगेल्या साहित्यिक योगदानाखातीर तांकां कर्नाटक साहित्य अकादेमी, दिनकर प्रतिष्ठान आदि संस्थांचे मानाचे पुरस्कार लाबल्यात. 'दाम्पत्य गीता' हो कविता संग्रह, म्हणल्यार तांगेली एक वैशिश्ट्यपुराय कलाकृति. संस्कृत, इंग्लीश, बंगाली, ऊर्दू, तमीळ, तेलगु, आसामी, मलयाळम, पंजाबी, मराठी अशा साबार भाशांनी ह्या पुस्तकाचे अणकार जाल्यात.

'दाम्पत्य गीता'चो कोंकणी अणकार नामनेचे कोंकणी कवी डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हाणी सुरबूसरितीन केला. डॉ. सुमतिंद्र नाडिगचे ते स्नेही आशिल्ले.



गोवा कोंकणी अकादेमी